# साहित्यपंचक

संग्रह केला-

श्री. सुरेश ए. शेणै हाणीं




1998

(Konkani)

# SAHITYA PANCHAK

(Literary Digest)

Collected by
SURESH A. SHENOI
for Lekhak Mandal

Publisher & Distributor
KERALA KONKANI ACADEMY
Gokul, Cochin - 682 006


First Edition - 1998

Typesetting and Printing by
S.K. Enterprises, Kalabhavan Road,
Ernakulam-682 018.

Pages : 50

Price : Rs. 40/-

ISBN-81-85367-28-0



पुस्तकांतलीं मतां त्या त्या बरोवप्यालीं

## प्रकाशकांचीं उतरां

तीन वर्सां मुरथम कोंकणी लेखक मंडलान तयार केलोलो 'साहित्य संकलन' आमी उजवाडायलो. ते नंतर आतां तयार जालेल्या ह्या संग्रहांत वांटो घेवपी साहित्यकारांचो आंकडो ऊणो जाला पळोवन अकादमीक खंत भोगता. तरीय, मुरथमल्या संग्रहांत नाशिल्या एक नव साहित्यिकान आतां हो संग्रह एकडे केला म्हूण खोसी आसा. पुस्तक प्रकाशन आतां भोव खर्चाचें काम. पुण त्या सारखीं गूण आतांचे DTP छापणांत दिसूनूय येतात. मुरथमल्या संग्रहापरस हो ल्हान तरीय, नव्या बर्या रूपान तयार करून वाचप्यां मुखार दवरतात. हजे खातीर सहकार दिलेले लेखकांक धन्यवाद. वाचप्यांक हो अवडतलो अश्या विश्वासान आमी 'साहित्य पंचक' सादर करतात-

*केरळ कोंकणी आकादमी*

## दोन उतरां

लेखक मंडलाचे तरपेन, केरळ कोंकणी अकादमीचे सहकारान उजवाडाक हाडचें दुसरें पुस्तक त "साहित्य पंचक". केरळाचे साहित्यकारांगेले सहकारान तांगतांगेले रचना उजवाडाक हाडचे खातीर लेखक मंडलाचे प्रयत्नाचे फल त हें पुस्तक. आमगेलो प्रथम उपहारू "साहित्य संकलन" 1995 वर्षा उजवाडाक आयलो. ताका रसिकानी दिल्लोलो स्वीकारु आमकां हें पुस्तक उजवाडाक हाडूक आत्मविश्वासु दित्ता. हें पुस्तक सज्जन चड उत्साहान स्वीकारु करतलीं म्हणु आमी विश्वासु पांवतायि.

ह्या संरंभाक सहकार दिल्लेले साहित्यकांरांकय, केरळ कोंकणी अकादमी हांकाय घन्यवाद.




*लेखक मंडला खातीर*

**सुरेश ए. शेणै**

# मांडावळ

## कथा



## निबंद



## कविता



## वळख

कथा

प्रोफ. के.आर. वसंतमणी



# रोंटसां

"देवा, अंजलीन येदो सुरेय ओरोव दिल्लोलो आसा. फुगत घलता. राती रोंटसां आनी तोय".

रोंटसां आनी तोरीदाळी तोय. अयकतणा तोणडांत उदाक भरलें. कितले काळ जाले रोंटसां खांवनु? सन्तोष जालों. मोगान बयलेक चोयतणा,

"नका, नका. मोग कांय करका नका. यें तें कांय संगनाशिलें खेल्यार पूरो."

"आगो बयले. तूंवे कितें केल्यारीय कांय उलैनाशिलें हांव खायनावे? तुगेलो हतगूणु माका कळनावे"? म्हणु हांवे हसचाक,

"नका, हसका नका. तुमगलो एक हास! वचाय. संजे चिकेवोगि आयल्यार पूरो" म्हणु तीणे गेट्ट दिलें.

संजे घरल्याक पवंचाक पांच वरां जाली. रगडयांत पिट्टि धडावंचो शब्द आयकूक येता. माका पळेयलोय,

"चोयाय कपला बोरो. दोन वरांर करंड गेल्लेलें. कष्ट भोगका म्हणु कपलार बरेयलें पुशिल्यार वतावे"?

पाप बायल. मिकसि आसुनूय रोगडयार घडांवका जालें. करंड गेल्यार मगीर एक वेळु जातलो येवंचाक. 'डामांत' उदाक ना. चार पांच मास जाले, करंड आसचो वेळु ऊणे! देनपारा तीणे प्रीतीन चोवंचें सीरियल, फर्स, युग, स्वाभिमान कांय आज देखूक जल्लेना. सगळी हुम्मेन नावनु आसा.

"वच्चोगो. हांव धडायन."

"नका. मगीर तुम्मि तां रोंटसां केल्लेलीं म्हणु संगतले. फ्ळास्कां चाय आसा. कडून पिय्याय."

तीणे नका म्हळ्ळें. मका तीचि जाप तां जाय. चाय पिवून, पेपर वचून हांव बैसलो. वेळु येदो जालो. वस्सरेंत सून अयदणांचो शब्द अयकूक येता नंतणा, बयलेक भायर देखूक येना. ती, आतां उळदितली, उळदितली म्हणु बैसलो! उल्लो आयकूक येना! उळ्दनाशिलें वस्सरेंत चडळयार, तिजे तोडांसून कितेंय मेळतलें. वरां आठ वजलीं. दीवे सांत जाले. करंड कट्ट! आनी णव वरां जावंका दीवे जाळू! करंड येवनाशिले तीणे रोंटसां दिवंना. दीवनाशिलें कशी खातलो? नका म्हणु बैसचें. मेळनाशिलि द्राक्षि अंबशि!

''एकि मेणावाति लय्याय. दोळे देखूक येना.''

कळकांत हांवे मेणा वाति सोदून लायली. ती वस्सरें सून भायर आयली.

''देवा, येय्याय. रोंटसां जालीं'' म्हणु ती सांगतली म्हणु, हांवे निमगिलें,

''जायनीगो''

''कितें? हांव यन्त्र? सभाव हंगा बैसचे वेळार एक पतळांवन दिल्यार, कितें कंकणां खाल पडतलीं? करंड येवो. कळकांत माका जायना'' म्हणु ती खाल बैसलि.

आनी कांय तरी उलैल्यार ती विश्वरूप दकयतली. चूकि मागलि तां. दिसका जल्लेलें त्या वेळार दिसका नकवे?

कोण कोणा लागी उलैना. मागले मन एक पन्नास वर्षां मगशि गेलें. एकुउडगास आयलोलोय व्होडान हसून गेलो! बयलेन लेकले तिका खेळ करता म्हणु!

''किते की आसा इतलें हसचाक? प्राय जत्त जत्ता बळ्तूवो चडता.''

''अगो, तुका चोवनु नय हांव हसलोलो. पुत्तु ममाले रोंटसां खाणाचे उडगसान तां ह्सलोलो''.

''खंचो पुत्तु माम? सभाव बैसाय. माका कांय आयकुका नाका.''

''अगो, गावांत, भोगंती देवळा बडकान एकु पुत्तु माम रबतालों. देवळांत मोरां खेळा दिसा, तो, उळदुनूय नाशिलेंय, सभार जनांक, घरकडे

रोटसां खाण दितालो. तो व्हड धम्मेलि आसलेले कलाक, आयलेले सगळ जनांक, पोट भरून रोंटसां दिताले. कितलें जनां आयल्यारीय सुभिक्ष! नवांक पाविलें रोंटसां खाण!

माका उडगास जावंचाक ताका धन कांय ना. जाल्यारीय, प्रतापाक अगाव ना. त्या कलाकय थोडे जनांक उळदुन तो रोंटसां दितालो. एक पवट्टि, वस्तेवाचे ओट्टु, हांवय गेलो. तीस चाळीस जनां अंगणांत बैसुन खेळु हास उलैतांत. पुत्तु ममालि बायल, अन्नपूर्णक्का सान एक उर्वळेंत पिट्टि कलैता. पिट्टि चोयल्यार चार-पांच जनांक पवंना. सान एक पोडगो रनणीर आसा. येदो वेळु जावंचाक, दोग-दोग चेर्डुवां वस्सरेंत वचाक, पुत्तु ममान सांगलें. 'चार बाच' चेर्डुवां देंक कडून भायर आयलीं. पोट भरून रोंटसां खवंचाक वस्तेव आनी हांव वस्सरेंत चडळे.

''बैसा रे'' म्हणु अक्कान अवंचे मुकार पन्नाचे चोळके दवरले.

''ह्ळू खावंका. हून तां जीब लसनयें'' म्हणु, वस्तेवाले पन्नार दोन सान रोंटसां दवरून तोय वळ्ळें. तोय म्ह्ळयार तोय्यच. हंग वळयार थंग धवंता! तोय्याक 'उदाक' म्हणूय अर्थ आसा! एक घसाक ताणे दोनीय खेलीं. आनी दोन वळ्ळीं. तीवंय ताणे खेलीं. हांव चोवंन बैसला.

''दितरे तुका. ताजे पोट भोरो''.

वस्तेवु खता आसा. अतां मेळतलें म्हणु हांव! मागले पन्नारीय एक रोंटस पडळें. तोय्या उदाकय! वस्तेवाले पन्नारीय एक! तें जालेलेंय,

''तुका नाका नयरे? वस्तेवु खारे'' म्हणु दोन तागले पन्नार. लगीचेंय तका. ''तुका नका, तो खावो''! ताणे रोंटसां खेलीं. हांव अयणडो गिळून बैसलो.

''पोट भरलें. आनी उठायाय'' आमी हात घुतणा, पुत्तु माम निमगिता,

''भरलेरे वस्तेवा पोट?''

ताणे ढेंकु काडलो. हांवय. रोंटसां खावंनु नय, परमळान! ते उडगसान तां बयले हांव ह्सलोलो''.

''वय, वय. हांव वळक नावे तुमकां. जीब कडळयार फट्टि नंतणा संगतले वे''?

''तुजो सपूत. फट्टि नय. सत्य तां! पुत्तु माम,कोण अशिलोलो म्हणु कळतवे?''

''ना. आयकतां. करंड येवतांय संगाय.'' पुत्तु माम, व्होड एक कुडुंबावलो मलगडो पूतु. तका, अब्बोन अपुरबयेन वडेयलो. ताणे किते निमगिल्याशीय मेळतालें. मेळना तरी, तो घेतालों. दादले शेणडी दवरून, षर्ट घालनाशिले भोवंचो कालु तो. तेदाणा, पन्द्र-सोळ वर्षां प्रायेर, शेणडी कतरून पान्ट आनी षर्ट्ट घलून तो अब्बोचे मुकार आयलो! तें देखून सगळांक कोपु आयलो. उत्रा उत्रां जालीं. अब्बोन ताका भायर घलन कवडि धंपली. अब्बोले नवार ताणे सभार जनां लगी दाम घेतलो. ओरवाचो ब्यार घालो. व्होडु ब्यारि जालो. धनवंत जालो. एकि माळि दवरीली. 'टिप टापार' रय्या समान जीवन कडून आयलो. सोयरीक घेवन आयल्यार, व्हरडीक नाका. ब्रह्मचारि जावन रबता म्हणु संगुन सोडचें. जांवन जांवन सोयरीक घेवन कोण येना जालें. पुत्तु माम म्हळयार, जनां भय बहुमानान चोयतालीं. कोणे किते निमगिल्यार तो दितालो. ताणे किते सांगल्यार करून दिवंचाक जनां आसा.

एक आराटा वेळार ताणे एकि चेल्लेक देखली. तिजेर तका मोग जालो. तिगले मम्मालागि ताणे चेल्लि निमगीलि. ताणे पुत्तु ममाक चेल्लि दिवना म्हळ्ळें. तो तिकाच व्हरडीक करतलो म्हणु राबलो. तन्नि तिका विंगड एक चेल्याक व्हडीक करून दिल्ली. मारामारि जातली म्हणु जनां भीवंनु राबलीं. पुत्तु माम झगडू गेलोना! व्हरडिके राती वचून, तिका उभारन मंचवार बैसोवन तागले घरकडे आडळी! फल्लें जावंचाक चेल्लि पुत्तु ममाले मळियर आसा! ताणे लेखलेलें जल्लें! कोण आसा ताज-लागि लडाय मरूक? रतारात्री पुत्तु ममान उबारन आडळलि बायल तां अन्नपूर्णका! ती मेळचाक तागलो अहंगार चडळो. सर्वाभरण विभूषित जावंन नंताणा ताणे तिका भायर देवोंचेंना. वर्षां भोगुन गेलीं. ब्यारार श्रध्द ऊणेजलीं. रीण भरलें. माळि, भंगार सगळ बिकून रीणांत सून सुंटलो. सान एक घर केल्लें. शिवणि दंध केलें. अन्नपूर्णकान हपोळ बिकून ताका फट्टी बळ दिलें. तंकां चेर्डुवां कोण ना. जल्यार, गावांत पुत्तु ममाले सरकेचिं चार-पांच चेर्डुवां आसा. तांतु एकलो तां वस्तेवु! तें ता, तका पोट भरून रोटसां दिलेलीं!




''पूरो. एक रबेयाय. तुम्मीय तुमगेलो [illegible] जालीं?''

''आनीकय आसा दा मिनिट्ट. अगो, परकाडचे बालक्रुषणान रोंटसां खेल्लेलें कळता वे''? ''पुत्तु ममाक सोडून, देवाक दरयाय''.

एक राती, देवळ धंपून भट्टमाम गेलो. रोंटसां परमळान बालक्रुषणाक बैसुक जायना. खीळि काडनाशिले, तो भायर आयलो. परमळ धरून वचाक, मिन्न ममाले वस्सरें सून तां म्हणु कळ्ळें. वस्सरेचे लागि पवंचाक, चेर्डुवां बैसुन रोंटसां खतांत. भितर चडळ्यार फटवण भायर येतली. क्रुषणु रती निपून रोंटसां खवंचाक भावंता म्हळ्यार ऊणाव नयवे? जनेला लागि बैसून मिन्न ममालि बायल रोंटसां तळता. क्रुषणु भायर बैसलो. जनेलां तलान हात भितरि दकयलो. तंगलें खंचेय एक चेर्डु असतले म्हणु लेकून, मिन्न ममाले बयलेन, एक रोंटस हतार दवरून दिलें. तें खांवनु हात घालो. तीणे रोंटस दिलें. एकेक जावनु सभार जालीं. अयदण रित्ते जाता. तेदण तां, सग चेर्डुवंय वस्सरेंत बैसुन खवंचे ती चोयता. कोण की फटवण करता म्हणु तिका कळ्ळें. हात तिजे मुकार आसा! चोराक धरकां म्हणु, तीणे हून तेलांसून, एक हून रोंटस कडून क्रुषणले हतार दवरुन सोडळें! हात लासुन, रोंटस खाल घालन क्रुषणु धवलो! सकाळी भट्ट ममान अभिषेक करतणा, बालक्रुषाले हतार व्होड एक ऊज्जा बोक्को आसा! अजीय तो बोक्को क्रुषणले हतार आसा म्हणतात. मिन्न ममालें कुडुंबाचो सर्वनाश जालो. पाप क्रुषणलें. रोंटसां खवंचाक दिसल्याचें फल!

हांवे राबयलेंच करंड आयलें.

''चोय, सत्य नय वे हांवे संगलेलें? हांवे राबयलेंय उजवाड आयलो!

''तुमकां रोटसां खावका वे, एक पतळावन दिच्चाय. तें ना, वेळ दरतलो.'' म्हणु, बायल भितर चडळी. आनी बैसल्यार आज रोंटसां मेळना!

वस्सरेंत वचा!



कथा

*बी. लक्ष्मण मल्लय्या*

# शरशय्या

"णीम णीम" "णीम णीम" टेलीफोण वाजता आयकून गोपाळी निद्रांत सून भीवुन जागो जालो. कोण आसतलें हे फल-फल्यारी उळदीताय? गोपाळी रिस्ट वाच काण चोयलो. चव्वड़ वरं. फोणाचें रिसीवर हातांत काळ्ळें.

चेरायलसून आनंद उलैता-आय देवालगी गेली. साकाण इकरावरार दाहु.

नीद धावतु निपीली. दोळे विस्कळेले. आनंदाची आवुसूली आवुस तं. तोवोय आमीय सकळं जाणंय मेळनु उळदूची-आयी.

आज ना नल्यार फाय हें मरण चमकतळें म्ह्नूण अयेली एकली दूव शारदा, तिचो बामूण गोरो किचगू, ताचो पूत आनंद, आनंदाची बायल आनंदी, आनंदाचे मलगड़े बयणीयांक, तांच्या बामूण मारांक, आनंदाचे बावांक आनी तांच्या बयलांक हे सकळांक कळतालें. कारण दोन वेळ हर्दें दूकी एवुन जाली, दुसरे वेळ हस्पतल सांडचे वेळार वोयदान सांगालें "अनीक एक पावुटी लगीन दूकि अयल्यार तें तांकूक आयेच्यान जाउ नां. देकून हावें बोरोवुन दिंच्चो गुळियो एक वेळार सरि बांद करूक नज. गूळि बांद केल्यार उड़गास करा, देवाचानसरि हात दीवुंक जायत ना".

दांत घासून, नाऊन बसार चडचे वेळारीय गोपाळेले मात्यांत आयी भरनु राबली.

एवुका पोरोमाम (प्रभुमाम) बेसका". सुरवेत्या घरकडे वोसचानीक माका त्या आयेन अशी संबोधन करून तं उळदीलोलो। माका अतां बीतेर कोण पोरोमाम म्सूण संगून उल्लो केलोलो ना केदना पुणेय त्या घरकडे गेल्यार फड़चान खावनु तंबीड़े जालेले दांत दकोवनु हासून ती आयी निंगीत जाली "पोरोमाम माय-बपूस कुशलान आसात न वे?" घरकड़चे एकेक मनिसांकय पसून आयी विचारतली माका त्या अयेचेर भौमान वाड़लो

'आनो कितुले दीस हांव हें भोगूका पोरोमाम?'' हर्द्वेक दूकि एवन हस्पतलांत पोडून आसिले एक दिसा माजे लगी आयी निंगीत जली हांव आनंदाच्या तोण्डाक चोयलों। तो कांय उलैना? अस्सीं वर्सं प्राय जलेल, एक मंतारेलें जीवन पूरो जालें म्हळेल चिंता, म्ह्मूण लेकून हांवें कांय जाप दिली ना.

''चेरायल, चेरायल''बस्साचे दंदकारी सांगताय आयकून, गोपाळी बस्सार सून बायर देवलो. चोंकून त्या घरकडे पावलो. आयेच्या तोण्डार असाधारण शांततकाय. निद्धेवनु पड़ले लेकान, आसा. हांव वोसून पयांकडे सास्टांग नमस्कार घालो.

जावंयान आनी नतरान धोरनु आयेक उबारली आनी भायर हाडून निद्धायली। न्हणायली। ''कोण चूली (चूडी) काड़तलो?'' आनंदाचो बपूस निंगीत जालो. आनंद थंय एकड़जालेले मनिसांचे तोण्डाक चोयलो. अबोचे सूतकल नवुंचे, तानीं जाउंका चूली नाडूक, आनी कर्म करचाक, ते कोण थंय हाजर नांय। ते बन्धु, कसी थंय असतले? आयेले बप्पाली आस्ती (दाम, दुटू, जागो) सग, आयी एकली धूव, देकून अयेक फाव जाली. आनी तिजे उपरांत तिजी धूव शरदाक फाव जाली, पुण अबोल सूतकाल धरचे बन्धु बांधवाक कूडो दुड्डु सरि मेळूक ना। मगीर तानी कसी दृस्टी गालूक, चूली काडूक, आनी कर्म करूक एत्तलीं?

आनंद गोपाळेच्या तोण्डाक चोयलो कित्तें करतलो म्ह्क्केलो प्रश्नु ते दृस्टींत असिलो. 'कर्म करूक कोण मुकार सरना जल्यार तूं करी रें आनंदा। तुका कित्तें चोंचाक आसारे?'' गोपाळी सांगता जालो.

देढ़ एक्कर (150 सेन्टस) जाग्यार तें घर राबून आसा। घराचे चारीय दिकार मड्डे आनी रूक रुकावळि. सिंपूचे बगेक जाग्याचे चारीय दिशेर तळीं। मासाक खंय लगूनत्तिलें चार सास नारलु पड़ता। लकुडाक लकूड, रवुंदेक पणस, अंबे, सूरणु तुंबो, बाजी, तेरापान त्या जाग्यार सून लुवुंताय। हें सगा फळ भोगचे बगेक अयेची एकली धूव-आनंदाची आवुसु तिचो बामूण, आनी तांचीं चेरडूवं. अशि असतना तो बपूस निंगीत जालो चूळी कोण काड़तलें म्ह्मूण। 'कसलो लोक'!

अयेचें मडें न्हाणोवुन, नवें कप्पड नेस्सयलें कुंकुमेच्चो तीळो केलो। फुल्लं माळीं। तावळ शरद, आयेची धूव, आनंदाची आवुस, धावुनु एवुन

अयेचे गळ्याक पडली भांगरा माळा हाताचीं भांगरा कांकण निसरावुन काडूक लागली. एक वर्सां जलेले ददूल मनिसान सांगलें-आयी, बामूण जीवंत आसतना गेली देकून मांगल्यवती, तिका सरियेर दवरूनु जत्तेर जाउंका भांगार सगट मेकोळनु काड़चें, तजे पूडे काड़चे नय. आनंदाची ती आवुसु, अयेची एकली धूव तें अयकूक रबील ना. भांगरा सांगळी आनी कांकण पेट्टारांत दबोरनु चाविकेली, उपरांत तीणें मडें काडूक मान्यता दिली.

अंब्या रूक कतरूंक कुणबी कुल्हाडीय घेवुनु भायर सरलो. ''हेय अंब्या रूक कतरूंक नज''. कोण रे बापा हें सांगता म्ह्यूण गोपाळी चोयलो. ''परिस्थिति संरक्षक संस्थेचो कोणेय बी वे?'' नां.ना. आनंदाची आवुसू. रूक कतरत्यार अंबोचा रुकार सून मेळचे अंबे आनी मेळचें ना, देकून ती सांगता जाली रुक कतरूक नज म्ह्यूण.

''कातर रे तूं अंबेच्चो रूक! अतांभीतर हांगा जें चमकता ततुं कांय हांवें हात गलोलो ना देकून चड़ चड़ जाता वे? तिगेले गळ्याक पडली भांगरा सांगळे बगेक जाउना अत्तं अब्याचोरूक कतरूंक नज म्ह्यूण हांगा कोण सांगत म्ह्यूण हांव एक चोयतां! माकाय वंटो आसिलो जागो तं यो''. अबोचो ताळो एक लगी व्हड़ जालो ''कत्तर रे तूं''! 95 वर्सां प्राय जालोल आनंदाचो आबु. मंच्चार पडणु आसिलो. उठुनु भायर अयले. दोळेंत भरनु उदक। कोण कोणालगी उलयनाय. रंग शब्द विहीन. रुकार कुराडी पडची शब्दु मात्र आयकूक येता.

मडें जळनु सरिलें अयेन पडलें कूड़ 'डेट्टोळ' घालून धुताय. फाटिल्या कालाक सेण गालून धुत्तालीं. आजी 'डेट्टोळ'. हर्द्वेच्यी दूकी दूसरें कोणांकय व्यापल्यार कसलें करतलीं? गोपाळेक त्या घरकडे श्वास सोडूक सरि भारी करट दिस्ताले.

वत्ता म्ह्यण सांगचे बगेक तो अबोच्या कूडांत चडून गेलो. 95 वर्सां प्राय आसिलो तो आबु रडता देकून, तें पळोवुनु सुमार घडियेक तो थंय थांबलो. लगीच आनंदूय.

''म्हजे वोंटींत दवरून अयेन प्राण सांडिलो.'' तें अयकतशि, तें कोण सांगता म्ह्यूण थंय मेळ्ळेले सगटानींय मातें उबारून चोयलीं.

आनंदाची भयणी. ''तूं बेस रे गोपळा. माका तुजे लगी ऊणेच सांगूक आसा''. अब्बोन गोपाळेक दरून एक कदलार बेस्सेयलो.'' माका कोणाचेलगी जल्यारीय एक हर्द्धे विस्कळावुन दोन उतंर उलोंका म्ह्यूण दिसता. तूं एक साहित्यकार आनी समाज सेवक. तुका हांव जे अत्तं सांगता तें कणियांतुलान, नाटकांतुलान, कादम्बरींतुलान बाकी मनिसांचें चिंतनेक आनी ताज्या उपरांत समाजाचे परिवर्तनाक उपकारलार हांव तृप्त जाता''.

''तूं आयकीलां नावे, म्हजी नाती कितें सांगता, तिजे वोंटींत मातें दवरून म्हजे बायिलेन प्राण सांडिला म्ह्यूण. सत्य कित्तें म्ह्यूण जाण वें तूं? काल सकाळीं सुकून वोकदाच्चो गुळियो तिका कोण दिलीना रे गोपाळा- कोण दिलीना!''

तावळ आनंद ना आसलो वे हांगा''गोपाळेन विचारलें, 'ना' तो अंचिकम्मळ हस्पतलांत गेलोलो ताजी बायल थंय बाळांतिरेक गेल्या. मगीर तो हांगा कसी आस्तोलो? तेवेंय चोवुंका ताणेची न वें? तिगेलो काल पवलो म्ह्यूण संगल्यार पूरो. ती हया कूडांत बेसून जेवण करतालीं तें कित्या हे कूडांत म्ह्यूण वे? तिका वसर्यांत सकळान एकसानीच जेवुंचे वेळार वाडप ना. माकाय त्याची लेकान. पोरांरू कित्तें जालें म्हळयार आमी एक सानी बेंसून जेवुंचे वेळार ह्या आनंदाचे अयेन उकरी घेवुंचे बगेक पोड़ग्यांत हात घालो. तावळ म्हजी धूव-एकलीच ती अंका- तीणे अयेच्या हाथाक चडणु धरिलो आनीक जें सांगत जाली तें अजीय म्हजे कानांत गुंजेता ''मडया अयदनांत -हात घालून घेता वेतूं? हावें कितुले वेळार सांगलें आसा तुज्यालगी हात घालून घेंचा नज म्ह्यूण. कुट्टांत कूट्टर कोल्ली! फाय सून तुका जेवण तुजे कूडांत. आमी सग मेळनु खवुंचे वेळार ना. ''तेदूस सून आज भितर आमी हया कूडांत खाताय, जेवताय. मरचे तेदूस रत्ती एक उंडी गीळून जवुंचानीक हर्द्वे दूकि तिका दिसली. तीणे जी उण्डी गिळेली ती तासीच वोंकीली वोंकी खयींच खालाक पडत म्ह्यूण ती धावून भायर गेली, घरां भीतर वोंकी पडली म्ह्यूण दवर, मगीर कितें जतलें म्ह्यूण उडूगास करून तं ती भायर धाव्वुन गेलील. पुण भायर ती पवुलीना. वोंकून थंगाच पडून गेली-दुकता गो माका, दुकता गो माका, आज माका गूळि दिलीना रे आनंदा सुमार वीस घडियेक ती हांगा पडून विड़-विडेली. मगीर सगा शांतम.''

''मेली मह्यण कळचानीक म्हजी धूव ती असुरणी घेवुन हस्पतलांत धावली. गवुंकारांक दकोवुचांक मात. त्या वेळार अस्पतलांत वच्ये वेळार आनंदाचे भयणिच्या वोंटींत दवरून प्राण सांडिलो म्ह्यण ती सांगता. ताजो अर्थ कित्तें म्ह्यण तुका समजलो रे गोपळा-तुका?'' ना म्हळ्ळेले लेकन हावें मत्तें हालयूलें ''आयेच्या हाता कांकण, गळ्याची भांगरा माळा हें सग तिका मेळूक जाय म्ह्यण वाकूंडे वट्टेन ती अंच्यालगी सांगता. पड्डोबाल उबारता कित्याक म्ह्यण सकल्यांक स्पस्ट कळता.''

'अरे आनंदा, आयी तुज्या थंय वेळ-काल नत्तिलें धावुन कित्या एताली म्ह्यण जाण रेंतु''. सकाळ दा वरं जल्यारीय हया घरकडे अंका पोट्टाक घालना. तिका, तुज्या अयेक, पोट्टात आधी एवुन हात-पाय सकळेच थड्थड़ेतले. तावळ ती धावून तुज्यकडे येतली, तुजी बायल-आनंदी- ती पोट भरून खाणय दूदेय दीवुन अयेक वापस पेटेयतली. अबोन एक घडियेक उलोवुंचे बांद केलें, आनी गोपाळेच्या तोण्डाक चोयलो. दुसेर सांगूक लागलो. ''ही संस्कृती-वर्साजालेले मलगड्याक रक्षण करूका-म्हळ्ळेलें जी मिगेले कुटुम्बाक, अन्य!ही संस्कृती आनंदाक मेळ्या तुजा संसरगान म्ह्यण माका चांग जाउनु आसिली वळख आसा. तुका देव केदणाय चांग करता बालाव कदाचित कर ना''. अबोन रबायलें, आनंदान दंद करचे 'कम्पनींत' दंदकरालें संधाचो तो कार्यदशी गोपाळी ताजे दोळे भरले.

चेरायल सून वापस एंचे वेळार गोपाळेल्या मनांत शरशय्येचेर पडले एक मंतारे मनिसालें रूप तं नियाळतालें.



कथा

सुरेश ए. शेणै

# रमणी

"कोणकी पिस्याचि तुम्का वेगेळें काँयि दन्द नावें?" बायलेन साँगिलें आयकूनु हाँव चिन्तेन्तु थकूनु जागो जल्लों.

सुमार मास जल्ले बीचारि वोच्चूनु। चेल्यान वच्चा म्हणु संगतना मक्कायि दिसलें वच्चा म्हणु। तस्सी बायलयि हाँवेंयि चेल्लोयि मेळनु बीचारि गेल्लीं। हो ! बीचारि इत्तूले रूपान्तर जल्या। बीचाचे तिन्नीन्तुले दोनि वँटेयि समुद्रान खाव्नु सरले। जनाँक बैसूक जागो ऊणे। बीचाक चन्दायि हडचाक एक दिक्कारि घड बन्दुन तज्जेरि दीवे लाइलायि। पर्नें "ड्यूज्जर जोर्ज वेल्लिङ्टन" हाँचे अवशिष्ट उडगासाक सिंगार्नु दवर्ल्यां। एक तलवाक उद्यान केत्याँ आजी आयतारु जले पसावत जनाले भीडु मस्त अस्स। चर्डूवँ रेवान्तु घर कोर्नु खेलतायि। भीमूक घेनु गीता माँयि पावलीचि। दोनि पाटीं खन्दरीयि हथ्थान्तु भीमूकाचे पट्टोळो, गीता माँयेक कस्सी विसोर्चें? जन अस्तमय सूर्याक पळोव्चाँक क्षमेन राबलायि। थाँगा सुमार जन समुद्राचे करावळे पाळ घेत्तायि। खपीन एक भायल एक सान चेरडाक घेव्नु भीक मगूक अँचे मुक्कारि पावली। तिग्गोले तोंड पळयल्यारि वळकीचि म्हणु दिस्ता। शब्दू आयकतना खाँयिकी आयकिन्या म्हणु दिस्ता। उडगासु एना। घरान्तु परत एत्तनाँयि तीं उत्तरां मिग्गोले मनान्तु लगलें- "अम्मा एन्तेगिलुम् तरणे" (अम्मा इत्तेंयि पुणीयि दींव्का)।



रमणीक बपूसु ना। आवसु आनी एक भावु अस्स। तक्का सिरखोवचाक खतीर रमणीन सिखवण राबयली। ती अत्त कोण कोणाले घरवन्ताक कामाक वोच्चूनु दुड्डु संपादन कर्ता। तिग्गेले आवसु गावान्तुले श्रीमन्त शेणैले घरान्तु काम कर्ता। कस्सीयि जल्यारियि पुत्ताक व्होडु कोर्का। तक्का एक उद्योगु मेळ्यारि रमणीले वर्डीक जत्तली। मगीरि एक सान घर इतुलेचि सान आग्रहु त ते आवसूक।

केरळ कोंकणी अकादमीचो 1995 वर्सीचो पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार मेळ्ळेली कथा

देवळान्तु दोवोर्नु त रमणीक ती खबर मेळेली। तिगेले वळ्कीचि रुक्मीणि माँयेंनि संगून,। गावान्तुले बैकान्तु एकु मल्लमामु ट्रान्सफर जाव्नू ऐला। ताँका सानि प्रायेची एकी चेल्ली कामाक जाँव्का म्हणु। रुक्मीणि माँयेनेचि रमणीक मल्लमम्माले घरल्याक वोर्नु तिक्का परिचयु कोर्नु दिल्लो। व्होड काम ना। ताँका सान चेर्डूं। ते चेर्डाक मोगान पळोंवका। वेळु मेळ्यारि मायेंले कामान्तु सहायु कोर्का। मासाक 400 रुपया। तज्जे भायर नेस्सूक वस्त्र, रब्बूक कूड, खाण-जेवण। रमणीकयि आवसूकयि व्होडु सन्तोषु जल्लो, घरान घर भोवनु काम केल्यारि मेळचे प्रतिफलाचे दोन वंटे च्ड मल्लमम्मान्थयि मेळतलें। रमणीन थाँगा काम कोरूक आराम्भिलें। एकु मासु भित्तेरी रमणी मल्लमम्माले घरान्तुले अंग जल्ली। तिगेले प्रयास समजून रमणीले भावाले सिखवणेचे खर्चु मल्लमम्मान दीन म्हणु संगतना रमणीक भारी सन्तोषु जल्लो। ट्रिवाण्ड्रमान्तु भावाक कोलेंजान्तु सीट मेळनु भावु थंगा वत्ता।

थाँयि रमणीले भावु रमाकान्ताक 'चाँग' दोस्त मेळ्ळे, तो पिंवचाक सिखिलो। घरान्तुले आवसूक भयणीक तस्सीचि सिखोंच्चे मल्लमामाक सगटाँकयि विसोर्लो। तक्का दुडवाँच आवश्य च्ड च्ड जाव्नु आयिलें। एक दिस्सा ट्रिवाण्ड्रमान्तु थाकूनु एक टेलग्राम आयिलें। 'रमाकान्तु आसपत्र्यान्तु' म्हणु' आयकिले मात्र रमणीले आवसु धावनु मल्लमम्मालागि पावली। मलामम्माले सहायान एक कार घोर्नु रमणीयि आवसूयि ट्रिवाण्ड्रमान्तु पावलीं। थांयिआसुपत्र्यान्तु म्हणु गेल्लेले रमणीकयि आवसूकयि मगीरि कोणेयि दिक्किलेना।



मल्लमम्माले घरकडे दोवोर्नु प्रथम जाव्नु रमणीक दिकतना ती कोणकी मल्लमम्माले बन्धू म्हणु त होंवे लेकिलें। सत्तरा वर्ष प्रायि। चोंवचाक अपसरा समान। कवीन वर्णन कोर्चे दोळे, कान, नॉक, वोंट, इत्याक सिनेमान्तुले कोणेयि पळेयल्यारि एकी हिरोयिन खण्डित। ती थाँगाचि कामाचि म्हणु संगतना दुःख दिसले। रमणीलें तोंड एक चित्र जाव्नु मिग्गेले मनान्तु राबलें। केदनायि मल्लमम्माले घरल्याक वत्तना रमणी कसलयि पुर्णीय निब्बान मुक्कारि पाँवतली। रमणीक दिक्कूक ना म्हणु आयकतना, मिग्गेले मनान्तु कसले नमूने दुःख जल्या म्हणु सांगूक जायना। मिग्गेले

घरान्तुले एक अंग दिक्कूक ना जल्या म्हणूचि मनान्तु दिस्सलें।



सुमार वर्षं भोगूनु गेल्लीं। रमाकान्ताले स्वभावु आजि बदलसलो। तो आजी गावान्तुले विदेशी बैकान्तु आफीसर जाव्नु काम करता। मल्लमामु ट्रान्स्फर जाव्नु दूरा गेल्लो। गावान्तु नवें नवें रूपान्तर जल्लें। इलट्रोनिक उपकरण कोर्चे फाक्टरी आयली, रूप गावाँचे मस्त बदलसिलें। रमणीकयि तिग्गेले कुटुम्बाकयि जन विसर्लें। कोणकी एरणाकुलमान्तु दोवोर्नु तिक्का एक होटलान्तु दोवोर्नु पळयला म्हणु साँगूक लगलो। आवसूले खबर काँयि ना।



रात्री निदेवचाँक वत्तना ते भायलेले उत्तराँ "अम्मा एन्तेकिलुम् तरणे" मिग्गेले मनात्नु गुणगुणेंव्चाक आराँभिले। लागिचे दिस्सा हाँव बीचारि दुस्सेरि गेल्लों। कोणेयि "एन्तेंकिलुम् तरणे" म्हणु मागूक एत्तावे। रात्रि पर्यन्त राबूनु तिक्का दिकलेना। ती रमणीच वे? ना म्हणु लेक्कूक मिग्गेले मन आग्रहु पाँवता। जल्यारि तें रूप, तीं उतरां-ती रमणीचि म्हणु संगता। छे तवळीचि तिक्का आपोव्नु निंवगूका आसिलें। दुसेरीयि मन्न साँगता-ना, ती रमणी.....



कथा

के.के. सुब्रम्हण्यन

# भोट्टजाली सेवा

उत्तर पोरूर वेणाट रय्या अधीनाँ जल्लो. पोरूरचो रायु रवळार सोडोणु पारक्कोटोवाँ गल्लो त्या वेळारी पोरूरच्ची सेनाँ अस्सीले अम्मी बारा घरकार पोरूराँ रबचे अमगेले जत्तो ह्मुणु मोन्ना कोरणु पेल तेटी अस्सी कोच्ची सीमात्तु अयिले.

चेरायी एक स्थालारी थव्कूण वेगोले स्थलारी अम्मी पोरतुणु पोर तुणु रब्बुण चेयली मोन्ना मोन्ना सजत्ता एक भूंय अमका देखूणु कटच्चा जवुन्ना. तिस्सी-अस्सी काला बैप्पे सोविन्दुरु कोपोत्तो जल्लो. ओराय देवा गोरवोन्तु सेन्त सेन्त सोविन्दराँ जल्लो देवुळाँत्तु सोविन्दीरु चेल्लो. कोच्ची रय्या निर्देशु तेक्कीते ओराय देवा संकेत चेरायी केल्ले. तंगा अग्रशाला बन्धुणु देवा बैसेलो. मगीरी गरभ कूट बन्धूणु देवा प्रतिष्ठा जल्ली. बैप्पे गौड-सरस्वत ब्राह्मण जन चेरायी संकेतात्तु एवूण रब्बीले.

ओराय दवळाँ उत्तरा दिशेरी दोंकोरु गद्‌यो जावुणु बारा एकट भूंय अस्सीली ह्या बारा एकटस्थाया मोध्ये सेनवासु भोट्टजोयी भोट्टीण्यायी रब्बुणस्सीली. भोट्टजो शिवलिंगक्कोय श्री भद्रेक्कोय पुज्ज केरच्चो पुरोहित ते.

पाटें पोळ्ळे ह्या बारा एकट स्थायारी रबच्चाके अनुमति घेयिली. जयत्ते वट्टेणीय चांक जत्तो ह्मुणु अमकेलाणी निश्चय कल्लो. देनपारा पोरुत्तूण ते सेनवासु भोट्टाजा देखूक्के गेल्ले. मुप्पानी संगीले अम्मी कुणबी अत्ते. निल्ताँकिटे रब्बुणास्साय. जलारी मोन्ना समाधान ना भोट्टजाले सेजारे जावुणु रब्बाच्चाके अमका ह्वडू मोगु अस्सा. अमची भसे लोकुनिन्तात्तु अस्ये ह्मुन मक्काकलता. तजे पिरत्तोम तुमी केंत्तोय अस्सीले.

अम्मी पोरूर गजनतु बात केरत्ताले. मगीरस्सी सोमियारी रय्या सेवकाक चिट्ट सिखेयत्ताले ध्मुणु मुप्पानी संगीले.

मोन्ना जल्ले तवोळी तुम्मी 'संयला' लोकु ओय कयी निय? ह्मुणु भोट्टजानी इचरीले. पिरत्तोम अम्मी रब्बुणु अस्सी भूंयके संयला देवुळे

ह्मुणते उळदित्ताले. संयला देवुळां उत्तर गोरवोन्तु ते चन्द्रपुरी ह्मुणु उळदिवच्चो गावु ह्मुणु मुप्पानो मुळ्ळे.

फायी सक्काणी पैसा पुज्जेवेळारी एय्याय. अधिकरां देखूणु अमका उळ्ळेत्तेय. ते तुमका यंगा योवुणु रबच्चाके अनुमति दित्तो ह्मुणु भट्टजाणी विवोरु दिल्लो. जल्या अम्मी फायी एत्तायी भोट्टजो मुप्पानी संगीले.

एरदुसा दवुळाँ उस्सुणु तिणे भोट्टजा देखीलो. भोट्टजानी तिंवका मण्डा अग्रशाले जगलेरी बैयसेले. भोट्टजो अग्रशालेत्तु गल्लो. अधिकारीय भोट्टजोय बायिरी अयले अधिकारीनी मुप्पा नावकित्ते? मजे नाव बप्पी मुप्पा अबा नाव? अबा नाव गोयुन्दु. तुमका अभ्यासु कलतावे? अत्ते अमी अभ्यासु करनाली. बैप्पे अमचो अजोयी जनारद्दन पैयी जावुणु अभ्यासु सिखत्ताले. कोण भट्टमा जनारद्दन पैयी? अयकिलेनवे? ''मलप्पोयक अजीरण गंवच्चे जना सुंट्टी उदाक'' मोन्ना जलवें.

तुम्मी कित्ते करताय ह्मुणु अधिकरीनी इचारीलें? तंगा उस्सुणु अम्मी पवसाकला बता कृषी केरत्ताय. गिम्मारी तोवंसे, दुद्दी, चोवली, गोसाले सेगे केरत्तो.

तुमका घारे बन्धच्चिास्थलु भट्टमा देखोदित्तो ह्मुणु अधिकारानी संगीले थंगा घार बन्धूणु रब्बाय कित्तेय सेग कृषि कोरणु खयाय. देवाक कित्तेय कनोकी जावुणु वोरसा  वोरसी दींवक्का. देवस्वाँ थक्कूणू राजा भोगू बन्धीका ह्मुणु अधिकारीनी सगूणु मोन्नाकेल्ले

अम्मी वोरसा वोरसी दवळोत्तु कनोकी दित्तेय ह्मुणु बप्पीने संगीले अभिषेका वेळु जल्लो. तिस्सी जाँवु भोट्टजो.

देवा पाँय पोडोणु ते गल्ले सेनवास भोट्टजो महादेवा दवुळाटे गल्लो. तोद्दुस संझे बारा घाराँ बन्धीच्वा भूंयी दखोणु दिल्ली. दो तीन दिसा भित्तोरी बारा घराँ थंगा अयीले. तिस्सी सेनवास भोट्टजा सेजारीजल्ले.

मडो-मडी दवरी-तेय. रांन्तोये जावक्कस्सी बज्जी, मण्डे पुण्णु केस्तेय चांक उदाक मेलतो गय्ये-बोकडे वाढेयत्तेय. लोकु सक्का लेक्काणी बात अडूणु गलतायी कण्टूणु ओरोवु कोरणु दित्ताय. तक्कस्सी प्रतिफलु  मेलतो धन्धे सोद्दूणु कोंय ओस्सुकनक्का. जीविजावच्चक्कस्सी सगय यंगा असा.

सज्जनोय-स्वजनोय जावनस्सी संपर्क कदनाय मोन्ना समाधान मल्लता. ह्या जना कोच्ची रायु जावुणु संपर्कअसा नोप्पुर जलारी कुणब्यालो क्षेमु सोद्दीच्चारय्यालो प्रतिपुरुष जावुणु मोरगोट्टे मुप्पा एत्तोलो. तिस्सी केच्चे वट्टेणीय यंगा राजनीति मेलतो जल्ली. यज्ञा पसवोंती ते अमी यंगा रबच्चाके निश्चय कळ्ळोलो.

घरक्केडे धन्धे जलारी भट्टिटनायी तुलसी देल खुंटूके ह्या बाराय घराँ अडाणा पवतोली. तवोळी एकेक घरक्कारालो क्षेमु नुवीजीणु मोन्ना केरत्तोली.

ह्या बारा घरक्कराँ जावक्क देखूणु भोट्टजाणी एकी केळोरी बन्धीवेयली तनत्तु गणपति देवा पोतिष्ठा केल्लो. सकणीय संझेय यंगा दिवो लवच्चा संगीले. शुक्रवारु संझे  भोट्टजो पुज्जा केरत्तोलो. पुज्जे सोमियारी गवंच्चाक्क भजन सिखीले. तिस्सी शुक्रवारु दीसु पुज्जोय भजनोय खेळीत पोडन्नस्सी केरत्तो जल्ले.

मसाणी मासी प्रदोष उमास केरत्तोले. नाग पोंझी दीसा रकसे धार कोरणु नगाँ दूध दिवणु जावक्क अयंट्टो गिलच्चा. जलारी गरडी भुंयक्करा नाग पोनझमी ना. तज खतिरी सगट्टालीय  नेवाँ पोरोब गरडी पोंझमी दिस ते. गरडी पोनझमी जत्तोरी एविंच्ची अष्ठोमी ते गोकुल अष्ठमी. या दिसाँ अमका तजो तजो आचारु अनुष्ठान अस्सा. महालयोत्तु उमास जल्लारी. नवत्तोराँ पवलीं. यनत्तु दुर्गष्ठमी, मन्नोमी,  विजय दशोमी अति प्रधान जवनस्सी दीसुते. विजयदशोमी थक्कूणु अम्मी तुलसे पुज्जा करत्तो.

उत्थान एकदशी दिसा बयले केळरेटे एक्कोड जत्तोली. देवा भजन केरत्तोली. उत्थान द्वादशी अमका खभाँ पोरोब ते. संझे सेगु केळीराँत्तु एक्कोडे जत्तोले. भजन कीर्तन जाँयतोले. चन्द्रीमु सत्ताढे धडी उनचारी पवलारी गोविन्द परात्मात्मा उडुगासु  कोरणु भेट्टजो तुलसी के अरध्या दित्तो ख्वोभू लयत्तो देवक्कोय तुलसीक्कोय आरती दखेयेत्तो. मंगल ह्मुणु जल्यारी तीर्थ प्रसादु सेगट्टाक्कोय वेरक्कीत्ते. निवेजु घेवणु तगे तगे वाट्टे ओत्तोले.

मगीरचे ओरसारी केळेरे मुक्कारी एक पेरें बन्धीले तनत्तु अमगेले मेळु सिखोत्तो जल्ले. तमिलानी नाटोक सिखीले. तवोली दूर गांवत्तु कुणबी

यंगा नटोक सिखेच्चा पवले भोट्टजाणी अवोयभासे नटोक सिखच्चा संगीले तिस्सी अमकेलानी अवोय भासे नटोक सिखीले.

वोरसावोरसी उत्तरायण संक्रान्तेक कुणबी कोटुन्नूर गांवात्तु एककोडे जत्तोले. दक्षिण गवंट्टाणा थक्कूण उत्तर गवंट्टाना अस्सी कुणबी यो दीसु यंगा पवत्तो. संक्रान्ती रत्ती तिणी सिखिली सुन्दरकला ते यंगा प्रकट केरत्तो. केळेंटेसिखीले सेग सुन्दर कला कोटुन्नूर कवाँत्तु खेलीचा भोट्टजो अबाके प्रेरणा दित्तालो. तिस्सी ह्या कुण्ब्या लोक्का कीर्ती दिक दिक्कात्तु व्यापी जल्ली. भसेणी सिखीले नटोकगौड सारस्वत ब्राह्मणा समूहाँ मठाँत्तु खेलिचा भोट्टजानी अमकेलाक अवसरु कोरुणु दिल्लो.

सेनवास भोट्टजा चोरडूवाँ ना. सेज्जारास्सी कुण्ब्या बुरगीं ते तींगे दुवोय-पुत्तोय सुत्तापुन्नोव, सोंसर पटवो ह्या दिसाक्कबारा घरक्केटे बुरग्यांक उलदीवुणु जगलेरी बैसेयत्तो. भासेणी चांग-चांग गीन्तु गयंच्चा संगत्तो.बुरगी तीक्का केलत्ता गींतु गांयत्तो. भोट्टीण्यायी तिक्का पन्ना चोळुक्को दवरूण इट्टो-अंपोट वडत्तो. सेग तंगा बैयसुण इट्टो अंपोटाँ बुडोणु खत्तो. ह्ये चोवुणु भोट्टजोय भोट्टीण्यायी आनन्द निरवृत जत्तो.

अबाले दक्कुले आक ते सन्नोली. तिक्का पोरूर दक्षिण दिखारस्सी कुणब्या गोरवन्तात्तु ओरड कोरुणु दिल्ली तिखो गोवुंमहामारी योवुणु मोरणु गल्लो. तवोळी तिक्का इक्कोरा वोरसा प्राय. कित्तेकेरोप? भोट्टजानीय-भोट्टीण्यायेणीय तिक्का तींगे पोस्की ओरणु वगोयतेय ह्मुणु मत्तारबाटे संगीले. तिस्सी सन्नोले चेराई अल्ली तोद्दुसु लग्गूणु तीतिंगली पोस्की जल्ली.

दीसे-मासे तिस्सी ओत्ताय. देवा मोन्ना अट्टोणु भोगोत्त कोरणु परत्माके अपर्ण केरक्का ह्मुणु सेनवास भोट्टोज सेगट्टडे संगतालो. एकेक्के घरक्कारु वोरसा एक भोट्टजा केराणी पारायण करत्तोले. महाविष्णुलो एकक्कोक अवतारु पारायण कोरणु तज्जे अर्थु भासेणी संगत्तालो. ते जत्तोरी विष्णुपरमात्मा समर्पण कोरणु आरती देखोणु सर्वय जना निवोजु वेरक्कीता. या व्रता वेळारी बाराय घरक्कराँ योवुणु पवतालीं तिस्सी अंके जनाके सनातन धर्म ज्ञान मेलत्ताले.

दद्दुले मसा मसी कृष्ण पक्षाँत्तु प्रदोष व्रत केरत्तोले तिस्सी एक

मासा पुडा-पुडा व्रत काडक्क अस्सीले. प्रदोषा ओरिक्केली, प्रदोष उमासे ओरिक्केली उमारा यींय नित्तोण एक मास चारी शुक्रवारों व्रत केरक्क अस्सीली ह्यालेक्कानी आठ व्रत अम्मी केरत्ताले. दद्दुले ह्या लेक्कानी व्रत केरताय जवंच्चाक्कोय बयले सोमारु, दशोमी, एकदशी ह्यादिसाडें व्रत केरत्तो जल्ली.

ओरिक्कले भोगोत्ते जललारी प्रदोषु दीसु सक्काणी फल्या फल्यारी नावुणु तुलसी उद्दाक गालणु पाँय पोल्लारी तवळे थवकूणु अयंट्टो गिळु नज्जो. तोण्डात्तु उद्दाक जल्ले जलारी थू केरवका महादेवा मोन्ना अट्टोणु तगेतगे कोर्मुकेरक्का संझे नावुणु उभोत्ती कट्टुणु तशीले सियांले गोण्णु दयळाँ ओत्तो. सिंयाले महा देवा नट्यारी देवरूणु पाँय पोडत्तो. मगीरी ओराय देवक्कोय पाँय पोडोणु दवळाँ प्रदिक्षण गणु दुसरीय महादेवा देवुळाँ योवुणु भोगोंत्तय्यक्कोय रक्स्सी अय्यूेक्कीय नमस्कारु गणु महादेवा नड्यारी भजनाक्के बैसत्तोले भोट्टजो निवजु कोरणु बैसत्तो. प्रदोष केरत्ताले देवा भजन केरत्तो मंगळारती वेळु जल्यारी निवोजु देवा समरप्पितों आरते सोमोयु जल्लो ह्मुणु भोट्टजो संगत्तो भजना बयसले सर्वोय जन उबटोणु भजन ह्मुणुत्तो मत्तारे महा देवा ह्मुणु बोडाणी उच्चारण कोरणु शिवलिंगा पाँय पोडोत्तो. भोट्टजो देवा आरती दखेयत्तो शंखु जघालट यज्जे नाद दिख दिखांत्तू पवंत्ता, मोन्ना शान्ती दिवांच्चाक्क अमिकित्ते जांवक्का? भोट्टजो आरती बायिरी अटत्तो सेग्गु आरती पाँय पोडतो मँगळ ह्मुणात्तो. तीर्थ प्रसादु घेयत्तो. तगो तगो सिंयाले तो तो कट्टु पिंवच्चा लगत्तो. सेगट्टाक्क मेडिक्के निवोजु भोट्टजो उळदीवुणु दित्तो.

भोट्टजो गर्भ कुटाँत्तु उस्सूणु दिव्याच्ची वत्ते सेंत्ते केरत्तो. नटो गलत्तो. अनी छावी केरत्तो. छावी अग्रसालांत्तु ओण्णु दित्तो भोगोत्ते केरत्तलेय भोट्टोजोय कोरणु घरक्केटे ओच्चाबायिरी सेरत्तोले.

भोट्टजो संगच्चा लगत्तो पयक्कां तू मोन्ना तप्पोनु देवा अट्टेयक्का. तुजे मगलानी देवु केदनाय उरत्तोलो तुक्का एविच्चे आपत्ताँ थक्कुणु रक्षा दित्तोलो तक्का शंका कांय नक्का.

मगीरी याच्चे पोरी प्रदोषादिसा देवुळाँ लगुणु एत्ताण संगत्तो; परमात्माच्चे तीणी भाव ते ब्रह्म, विष्णु, महेश्वर तीण्णीय एक्को ते.

जलारी एक पुजेन पुरम् ह्मुणु तुम्मी नुगिंकीत्तो नोप्पुरो तिण्णीच्चेय तीणी धर्मु ते ब्रह्मच्चो धर्मु सृष्टि, विष्णुच्चे स्थिति, महेश्वरा धर्मु संहारु, ह्स्सिी जायत्ते तत्वोपदेश संगूणु दित्तोलो.

मोरगोट्टे जल्ले कुणब्याले महा सभे गल्लो अमचो मत्ताराबु घरक्केड ओथिरी सेरन्नास्सीण सेनवास भोट्टजा कुडाँ गल्लो.

भोट्टजानी मुप्पालगी विशेषु इच्चारिलो, दोनी दीसु जल्ले आंवु निद्देलेना कुणबी दोनी विभागु जल्ले योकु विभागु क्षेत्राचारु जाका दुसोरचो क्षेत्राचारु नक्का. मोरोट्टे मुप्पा क्षेत्राचारु नक्का ह्मुणस्सी विभागाँत्तु गल्लो.

रय्याणी मुप्पा रवळारांत्तु उळदिल्लो. मुप्पानी संभवु वर्णन कोरणु दिल्लो. तज्जे उपरान्त मोरगट्टे मुप्पास्थानु-मानु थंगा रबुणु परागल्लो जल्यारी मुप्पादिल्लोराज भोगु मुप्पाक्कोय पिलगीक्कोय घेवुणु खवच्चाक उत्तोर दिल्ले.

क्षेत्रापाला स्थान मान निवे केरलात्तु कुणब्या दिल्ललो क्षेत्राचारु नक्का ह्मुणताय जलारी त्या स्थानामाना अर्थ कित्ते? तज्जे खतीरी रय्याणी दिल्ले स्तान रद्द केल्लो यंगा कुणबी एक मेक जाणु जीवितमुक्कारी ओरताले. अनी ते परस्पर यविसीयी तवसीय पेट्टु फारे गलत्तो यंत्तु आंवे केच्चो भागु कटक्का भोटजो?

पूर्व-पितांच्चो धर्मुकित्ते? तो तुवेंय विधि प्रकार केरका अधर्मु केरचा नच्जो धर्मु सन्यारी अधिष्टित जलारी, अधर्मु पेटवणेरी थक्कूण एत्ता, तोगडे वेळेरी प्रश्न मोन्ना केरुक्का तवळ ऋषि समान जावनस्सी पंडिता फुडाँ उस्सुणु ज्ञान केरक्का तिस्सी नीवे मुप्पा? मुप्पा शान्ती मेल्ली. घरक्कडे उस्सुणु नावुणु-जोवण जव्णु मुप्पा विश्राम केरूक अत्तेरेरी पोळ्ळो.

राती-ओत्तोली. दीसु जत्तोलो इसी कालु पोरत्तीत्ता ह्मुणु मोनीसु जाण जावुन्ना भोट्टजो मत्तारु जल्लो मंजेश्वरा पुत्तोरी चोमकुणु ओच्चुका देवा पांय पोडोणु एवुंक्का ह्मुणु दिसोले. देवास्वाँ संगुणु अनुमति घेयिली एक दीसु सक्काणी भोट्टजो मंजेश्वरा वोच्चाके बायिरी सेरलो ह्थीत्तु एकी सान्ने मोटे. नवाणु न्हेस्सोच्चा अस्सी धोति, अंकूट्टी, रत्ती फकंराच्चा कंपोली मगीरी जावक्कस्सी धामु-दुडू कटुणु मंजेश्वरा पवलो.

देवा दर्शन केल्ली. गाँवा वोच्चा पोरत्तीला. सांझ जल्लारी, पवलारी, दवुळाँ गोपुरांतु पोडोत्तेय. सक्काणी नावुणु पांय पोडोणु दुसारीय चोमक्कोत्तो. चोमकुणु चोमकुणु संझे चेरायी पवलो. विवोरु देवस्वाँ अधिकरी जणेले. एरदुशा फल्या फल्यारी नवलो. अग्रशला उस्सुणु छावी घेथिली. महा देवा देवुळाटे गल्लो. केरच्चो कोर्म्मु शग विधि प्रकार केल्लो. दनपारा जेवोण जावुणु घरक्कोडे गल्लो. देखूणु उल्लोवंच्चा अयीले जना लगी हर्षानी उळ्ळेयलो. संझे नावुणु देवुळाटे गल्लो मंगलारती जंवच्चा दवुळे दंप्पुणु चावी उग्रणा दिल्ली. भोट्टजो घरक्कोटे अयिलो. भट्टीण्यायेणी पेज वळ्ळी. सन्तोषाणी पेज पिळ्ळो. अंवलो-वोसरे कुटीनत्तु सेद्दा बयसेत्ता पोरी अराक्क फाट्टी लावुणु बयस्योलो. पोडिच्चान हाथीं कल्लें तवलें एक हुम्मेलो. लोगट्टो ह्राडगल्लो. भट्टीण्यायी सन्नोली चोवुणु रब्बीलायो भोट्टजानी धोळे धंक्कीलें. सन्नोली.-भट्टीण्यायी ह्वडाणी बोबे घालतायी सग्गु दावुणु पवले फोले कित्ते? भोट्टजाली ह्या लोकाँ जत्रा संगीली.

भोट्टजा जैजाक्क उळ्ळो दीवुणु अल्ले, जांव्कस्सी सेग्गु पवळे एरदुसा फल्य-फल्यारी सरियेरी दवरीलो उज्जो दिल्लो, तोद्दुसा सारी भोरणु सोविन्दरा पावेयली.

भट्टीण्यायेक्क सन्नोलीय सन्नोलेक्क भट्टीण्यायी तिस्सी तीं जीविताँ मुक्कारी गल्लीं पाँच वोरसा जवच्चाक्कोय भट्टीण्यायेणीय या लोकांत्तु लग्गु जत्रा संगीली. सेज्जारी पवले. जयजां उळदिल्लो. तिगेलीय शेषक्रिया केल्ली.

सन्नोली एक्कोली जल्ली. घरा चावी केल्ली. चावी देवुळाँ दिल्ली. सन्नोली अमच्चे घरक्केड अयली. मोरो पुराणी वगयले भोट्टजाक्कीय भट्टीण्यायेक्कोय ती उडगासु करेत्तोली. तींच्वे गुण-गाने ती अमगेडे संगूणु दित्ताली केदनाय स्वात्तीक चिन्त त्‌चचे गति तिग्गोलो कोर्म्मु. जीवितां नैराश ना देवा ध्यान कोरणु तिगेलीय अवतारु देरेयलो.



कथा

*बी. लक्ष्मण मल्लय्या*

# धारेची गाय

सदानन्द पैन दोळे धम्पीले आनी निदेवुंक पडलो. दोळे धम्पीले म्हूण संगचे पसी दोळे दम्पून गेले म्हाण सांगचें बाद्ध. फाटल्या तीन दीस जाले, आंग सकळेंय एक खोरजु. खोरपून खोरपून पूरो, पुर-पुरो जालें. चौते दीस आंग सकळेंच उब्बारून आयिलें. उदकाचो रोग म्हूण लेकलें आनी ताणे भाव, भावजेक तंच्या मावांथंय वचून रबचाक संगलें. बयिल आनी तच्या दोग जाण चेरडूवांक तांच्या आबोथंय पेटेयलीं ताणे भोगचो रोग तांका लगीन एवुन तार्नीकित्त्या कस्ट भोगचें?ताच्यालगी आवसूक मात्र रबयली.

दीस भोगता तसी ताच्या देह सकळेंच पिळूचें सरिके असिल दूकी चडून आयली. पोट्टांत नीर भरून पोट घड जालें. अन्न आहारु सोडलों. बोघावस्थेचेर तरि आसलो जल्यार अन्न-आहारु खाताले जाल्यार तो अर्धबोधावस्थेचेर पडला-

सरकारी बैंकात ताका काम. ताच्या लगी दंद कोरचो सलीम ताका पळऊंचाक घरकडे आयलो. तो पड्लो देकून, तें बद्ध दिसलें नत्तिल्यान सलीमान वचून एक अलोपत्तिक वोयिदाक अपोवुनु हाडिलो. वोयिदान रोगीक चांग रीतीन तपासिलो. ताका तो रोग कसलो म्ह्यूण संगचाक जायना. ताणे सलीमाक लगी उळ्दून संत सागलें ''माका हो रोग कसलो म्ह्यूण संगचाक जायना जाल्यार एक माका स्पस्ट संगचाक जाता-हका चडाव तं! जाउंका जालेले जणांक सग तुमी कळयामुकार मेळचे दीस लाभ''.

सलीम म्ह्ळ्ळेले त्या नयित्यले दोळयांत उदक भरलें. कसी भरनात्तिलें राबता? आजी ''पै-माम'', तासी तो सदानन्द पै हांकां संबोधिता, ना जल्यार ताच्या घरकडचे वोरवाशी आज कुड्कूटी. ताचो उड्गास 1975-76 कालाक उबलो. ताका बैकान्त सून भायर घालो. कारण तेदूसचे शाखा प्रबंधक हांच्या घरकड़े लगीन वचून सलीमान झाडकाखैं! तो बैंकांत झाड़ता म्हूण संगून शाखा प्रबंधकाले घरकडे लगीन झाड़का म्ह्ळ्यार, स्वाभिमान असले मनिसाक सहन करूक जातावे? तो

पै मामालगी विचारूंक धावलो. पै माम तांचो काम गारी संर्घाचो कार्यदर्शी. पै मामान सलीमाचे न्यायाचे बगेक आसिले झूजांत अंत भितर ताची रक्षण करून ताका परतून बौंकांत कामाक काडवेयलो. इतुलें भीतर चार वर्सां भोगली. चार वर्सां पगार एक्साळींच सलीमाचे हातार पडलो!'' हो पडलो मनीस नातरि आज हांव ना. माजो स्वाभिमान ना. माजें कुटुम्ब ना. ''माजे पुतान उदक सरि पीवून तीन दीस जाले''. आवसु सांगता अयकून सलीम उठून भायर गेलो. आनीक परतून एवुंचे वेळार सियाळींय घेवुन आयलो. ताणे सियाळे उदक पैं मामाक बळान पीवयलें. कपूस काण उदकांत बुडोवुन घडियेन घडियेन पै मामाचे सुकले वोंट तिमोवुन दिले.

''पै मामाक कसी आसा?'' पीटर निंगीता जालो. बैंका लगी राबून आसिलो एक वोजेली पीटर. व्होज़्जे वावुन दीस काड़ता तो. तोवोय पै मामाक पळोवुंचाक आयला एक दीस व्ह्जें ववुंचाक मेळ्ळेना जाल्यार ताचें कुटुम्ब उपास पडतलें केदणायी सांजे पैं माम बौंका सूनपरततना ताका भेटतलो. ताची खोंपी पैं मामाले बैंका सून-घरकडे परतून एंचे वटेर तरि एक दिसा पीटराक दंद करूंक मेळ्ळें ना जत्यार ताच्या तोण्ड पळयल्यार पैंमामाक समझतालें. तावळ ताका पांच पोडि (2.5 किलो) तांदूळ घेवुन दितलो. तें ताका विसरूक जाता वे? पैंमामाक चडाव तं म्हळ्ळेलें कार्य सलिमान पीटराक सांगलं. पीटर पैंमाम पडले मंदरेचेर बेसलो आनी पैं मामाक चांग करून पळोऊंचाक लागलो. ताच्या दोळ्यांत उदक भरलें. आनीक पयाचे कोपरावरि बैसून देवाची प्रार्थना केली ''हे देवा, बरे मनिसांक कसकसली तुजी परीक्षा! दोनी सास वर्सां आदीं, देवा, तूवें क्रिस्त रायाक सूळावरि चडयलो. आज एक मनिस अशी पडला. ही तुची नीति आनी धर्मुवे? शिस्टांक दुःख आनी कस्ट, दुस्टांक उदरगत. हे देवा तुका एक जीव जावुंका जल्यार माज्जो काडी-ताच्यो सोडून दी'' ही प्रार्थना अयकतां सलिमाचे दोळे भरले.

दोन दीस सरले. पैंमामाचें पोट मूत वचूनत्तिलें व्होड् व्होड़ जालें. पैंमामालेलगी राबून राखेण करताले सलिमान. पै मामाचे मलगाड भावाक जाणयलें.

''जणेवुन वें मलगड भावान एंचे आसात'' सलीम स्वयं निंगीत जालो. हो मलगड भाव कितुले दीस हस्पतलांत पडलो. त्या वेळार लगी रबून राखण करतालो हो दकुलो भाव. राबून, राबून दकुले भावाले पय्यांक नीर मांडलें. वोयिदान वोकदं बरोवुन दिंचानीक, तें घेवुंचाक पैंमामाचे

बायिलेल हाताक पडलीं भांगराचीं कंकण सांडलीं. अशी आसिले धकुले भावाक पळोवुचांक ताका जाणोवुंका जालें म्हळ्यार कस्ट नात्तिलें कित्तें म्हूण सांगचें?

पैं मामाक वर्डीकेक सोयरीक एवुंचे वेळार तो मल्लगाड भाव घर सांदून दूर वचून राबलो. कुटुम्बाचे प्रारन्ध पैं मामाचे खंद्यार! आवुस-बापूस आनी भाव भयणियां पालुंचेकर्तव्य ताणे धकले भावाक सांपलें. बुद्धि-विहीन एक चेली, तिका बुद्धी उणे म्हूण कळून सरि, त्य मालगडे भावन धकुले भावाचया मत्यार थापली. भांगरा-दुडुवा आशा त्या आनाक. दोग जाण भयणियांक त्या घरकडे सून लग्न करून पेट्टयर्ली. बुद्दि-विहीन जाल्यार मलगडे भावाक कित्तें? धकुलो भाव ववुंता.

भयणियो जाल्यार कांय सांगचेनाका! पैंमाम असुख जाउन मंदरेर पडचेवेळ भित्तर तीं एत्ताय, राबताय, वत्ताय, एक दिसाकम्ह्यूण न्हय. मयिने लेकान तीं हे घरकडे एवुन राबताय. तानी आयल्यार पैंमाम आनी चेरडूवं भायर जगलेर, मंदूरि घालनु पडूका. कोणाक सहन करूक जातावें हेंसग? जाल्यार "कमा" म्हळेलें एक अक्षर तो मनीस. पैं माम, उलैलोना. कित्याक चड़ सांगका एकेक भयणियालोय तीन तीन बांळतीरोय त्या घरकडे जालो. तसि असिल्यो तीवयं, ह्या वेळार आनाक पळोऊंचाक, शश्रूषा करूक अयलीनांय. साबार कित्या सांगचें तंकाय कळ्ळें रीणाचे फोडांत पडले आनालगी सून आनी पुणे कांय मेळूचें ना सलिमाक दिसलें बैंकांत काम करचे कितुलेकी मनीस कसलें मल-मल तरा सुख भोगताचीं. हो मनीस तांत सून भौभिन्न अपुणाच्यान वोडूक जवुंचेंय, जाइनत्तिलेंय वोडून कस्ट भोगता. तो ताच्या अपण्या बागेक ह्याकस्ट भोगता? न्हय. अपण्यालं जीवन एक उत्तम जीवन जाउंका, फाटी एंचे मनिसांक एक नमूना जाउंका म्हूण लेकता, तो. ह्या भूमिचेर वास करचे सर्वमनिसानींय सुखान सन्तोसान तांच्या जीव सन्धारण करून फुडार बरचे एक राजनीतीची इच्छा, त्या बगेक समर्पिलो तांचो जीव. बुद्दी विहीन जल्यारीय ताणे बायिलेक सोडिली ना. आनाचें उतरांक सदांच भौमान दिलो. भयणियां ताणें बरे प्रमाणा पोसलीं. दुखेस्त, साधारण मनिसालं जीवनांत ताच्यान जो उपकार करूक जाता. तो केलो असी मनीस लगीन भूमि वरि आसात देकून भूमि प्रळयांत बुडून अत्तंभित्तेर गेली ना. ना जाल्यार कितुले की फुडे प्रळय जाउंका जालेलें तं!

आन अयलो आनीक धकुले भावाक चोयलो. आवसूचे कांनात

कितकी सांगलें आनी भायर वच्याक गेलो. परतून एत्तना हातांत एक कागतमुद्रेचें. भावाले  नावांचेर आसिलें. घर अवसूचे नावार करूप बोरोवुन हाडिल्ले ताणें. भावाली उंगटयाची निशाणी त्या कगतार थापल्यार तें गर आवसूचे नावार जालें. तो भावालो उंगोटो धरून त्या कगतार थापूच्या बगेक उबार्लो खेवीं, एकनवलाय जाली कोणकी धरुन ओडिल्या-लेकान भावान हात मगल्यान ओडिलो आनी दोळे विस्कळावुन सकळांक चोयलो. अनाच्या द्यतांत सून मुद्राचें तें कागत खालाक पडलें.

अति तीव्र एक उजवाड़ पै मामाचे दोळ्यां मुकार दृस्टी पडलो. एक सास नक्षेत्र ज़्वलित जउंचे लेकान आसिलो एक उज्वाड़. तो उज्वाड़ ताच्या तोण्डार पडलो खेवीं तो अबोध-अवस्थेचेर सून सुटंलो आनी हात मगल्यान ओडीलो. तो प्रकाश ताच्चालगी उलोऊंलागलो ''हांव तुका राकूंक आयला''!''कोण तुमी''?'' तूं उडगास कर ना वे?'' त्या उज्वांडा सून एक प्रश्नु भायर अयलो ''बाजारांत चोगो घालनत्तिलें, चोगो आपुल्या खंधार घाल्नु भोवुंचो एक मन्द-बुद्धि? ताणे पोटाक भूक लागता म्हणचे वेळार तूवें ताका जेवयला! त्या मनिसालो देव हांव! ताजी आनी बाकि मनिसांली प्रार्थना आयकून हांव तुका राखण करूक अयलां!'''' जाल्यार हावें हे प्रकाराची एक विनंती तुंच्या मुकार दवरलीना मूं! तें मात न्ह्य, माका ह्या संसराचा भार व्हावुन पूरो जाला! माजान जायना! ''चोय, अनिकेय ह्या लोकांत, तुच्यान बारें जउंचाक मस्त आसात. माजी चेरडूवं बुद्धि विहीन, अन्धकीं, पांगुळीं, कस्टाचें जीवन सोंसचीं, ह्या सकळयांच्या चांगपणांक तूं जावुंका अशी माजी इच्छा, दोन दीस भीतेर ही महामारी तुका सांदून वत्तली. तूं चांग घे आनी बलावांक सोडी'' परतून त्या कूडांत अंधकार व्यापिलो.

एक वार भीत्तेर महामारी पै मामाक साडूंन गेली, पै मामाक स्वपनांत दर्शन म्हेळ्ळेले प्रमाणीं तांका बरें जाले.

एक दीस सांजे वेळार सलीम वटेवेल्यान वत्तालो, एक सरकारी आफीसाचे मुकार एक मेळ चलता, देकिलो. कुणबी समाजाचे जनांक अनुसूचित जाती सूचिकांत भरती कोरचे खातीर चलायले त्या मेळांत उल्लयता श्री सदानन्द पै माम पळोवुन तो सन्तोसलो. आज, पै माम घरकड बायल, चेरडूवं आनी आवुसु जाउनु सन्तोसान राबून एत्ता. अत्तं ताची चेरडूवं भायर जेगलेर पडूचें ना तीं तांचया कूडांत, तांच्या मंचार पड़ताय म्हळेली जाणविकाय सलीमाक सन्तोसुक जली.



कथा

सुरेश ए. शेणै

# कालचक्र

सुन्दरी मेल्ली। नगरसभा कर्मेल्यानि एवनु त मडें लस्सिलें। कसले कष्ट चोई। सुन्दरी खँचे नमूनारि वड्डली बायल। तो तस्सी उलयतरि आसा। ते अंगडीन्तु कसलकी घेंवचाक जाव्नु राबिले हाँवे ते मम्मालागि निंवगीलें "कोण, कोण मेल्ली म्हणताले?" नेण वे, ती पिशयचि सुन्दरी ती मेल्ली। "पिशयचि सुन्दरी" हाँवे उड्गासु केल्लो।

✪✪✪✪✪✪✪✪

"एकु रुपया दिस्सि वे" मागल्याँचान कोणकी आप्पोवनु निंवगीता हाँवे तें तोण्ड पळेयलें निपूनु गेल्लेले प्रतापाची एकी झळ्कि आसा ते तोण्डारि । दवोच केसु, घोरे शरीराक सज्जूचे खातिरि की एकि दवोचि मुत्वाँचि माळा आसा गोंवटेक। व्होडि दवसाणि ना जल्यारियि, नीळ्चि फुल्लाँ अस्सिलें एक परने कपड। तंबडेंचि ब्लौस। सुमार दु:ख भोगिल्यान, सुकून, जोर्डे पळेलें तोण्ड। तीणे दुसेरीयि निंवगीले - एक रुपया दित्ता की?

हाँवे किस्सान्तुलो एकु रुपया काणु दिल्लो। स्वर्गूचि मेळ्ळेले उत्साहान तीणे चोंवकूक आरामभिलें। सृमचि श्रीधरचेट्टाले अंगडीन्तु वोचूनु एकु बीडिचो काटु घेत्तलो। एकी बीडि पिंवचाक शुरू केल्ली। कोणकी एक ऐ.ए.एस्स् ओफीसरा समान चोंवकून गेल्ली।

✪✪✪✪✪✪✪✪

तो दीसु आयतारु अस्सिलो। हाँव परने सामान विक्कूचे अंगडीन्तुले नीता आनी तिग्गेले आवसू लगी अस्सीचि उल्लोवनु राबिलों। तवळी तो शब्दु दुसरीयि कानान्तु पळो। "एकु रुपया दिस्सि वे?" ती बायल। खपिन किस्सान्तु पळयतना चिलवाण काँयि ना। हाँव सँगिलें अत्ताँ काँयि ना, दुसरे एक वेळारि दित्ताँ। जल्यारि तिग्गेलें रूप घोर रूप जाल्लें। ती कोपान साँगूक लगली 'तूँ लोरि च्णु मरतलो तूँ कार अडोळनु मरतलो' कसलेंचि भेजार नत्तीलें तस्सी शापु दीवनु ती चोंवकूनु गेल्ली। आनी कोणा लागी निंवगूचे म्हणु लेकूनु।

मक्का बल्लाव जल्लें। ही कसली बायल! दोनि दीस फुडे एक रुपया जाँव्का म्हणु साँगून मागून घेत्तली बायल आजी कोपान सोवनु वत्ता! 'इत्याक भेजार जत्ता चेट्टा? (अण्णा?) नीतान निंवगीलें हाँव हरिसलों बेळसलो हासती तस्सीचि त। तिक्का पिस्सें त। कोणेय दुड्डु दिल्लेना जल्यारि ताँकाँ असीचि शाप वचन साँगतली। जल्यारि तिक्का पिशें म्हणु कळता खातीर कोणोयि तें व्होड म्हणु लेकचें ना। 'कस्सी आसिली बायल ती'। नीताले आवसून उडगासु केल्लो। इत्तें कसलें जाल्लें तिक्का? हाँवें निंवगीलें।



पौराणिक जाव्नु अस्सिले जनार्दना देवळ। ग्रामान्तु सर्वांकय पवित्र जागो। देवळाचे तेक्कानयि बडकानयि जाव्नु परस्पर अभिमुख जाव्नु केरींचि घराँ। साँज जल्यारि घरान्तुले काम पूरायि जाव्नु बायलो केरीन्तु पळोव्नु बेसतलो। तस्सी बैसूनु कोण कोणाले खबर उल्लोव्चाँक ताँका भारी प्रीति त। थाँका गावान्तुल पूरा खबर अयकूयांत।

लक्ष्मणाले बायलेल्ले नवेंचि पटयाचे कपडाचे विषयु, विजयाले पिशयाचे खबर, ह्यें पूरा थाँगा चर्चा जत्तली। विमलाक चोंवचाक एयलेले चेल्याले मौसेले दुवेक वर्डीक कोर्नु दिल्लेले घरान्तु एक पिशयाचो आसा। दिक्कूनु विमलाक ह्यो चेल्लो सर जात्तोलवे? जाम्बकाक संशयु! गेल्ले मकरान्तु वर्डीक जल्लले राधाक एक चर्डुं जल्याँ। भास्कराले बायलेक अतिशयु! केरीन्तु चर्चा कोरूक भूमीचेरि एक बिषयु ना म्हणु साँगूक ना। पूरा विषयान्तूयि हो बायलाँक आधीकारिक ज्ञान आसा।

हो! लागीचे बुधवारा सुन्दरि चेचीक (सुन्दरक्का) पळोवयात! तो वेळु थाँयि चर्चेन्तु भागु घेंवचाक विषय मेळनत्तिल इन्दिरान एक नवे विषयु अवतरण केल्लो। तस्सी चर्चा सुन्दरि चेची पसून जल्ली।

गाताँन्तुले श्रीमन्ताली बायल त सुन्दरी। 24 वर्ष प्राय। गावान्तु समुद्रा कडे थाँयि अस्स ताँगेलो जागो। व्होड व्होड कारखानो पूरा हाँगेले जागेरि त आसायि। घरान्तु जल्यारि एक एक कामाकयि कामकारि अस्सयि। घरान्तुले माँयेक पण पळोंवका जल्यारि एक वर्ष पूरा राकूनु बैसुका। जनार्दना देवळान्तु आराटा दिस्सा फलेफल्यारि सीवेलि कोर्नु केरीन्तुल्यान देवान एवचें एक प्रसिद्ध भरव आसा। तज्जे फुडेचि जाव्नु ह्ये देवाले

आगमन पळोव्चें पसि उत्साहान केरीन्तु बायलानी राबूक आस सुन्दरीक पळोंव्चाक। राबिल्याँक सकटाँकयि ज्ळोव्नु, सुन्दरि आनी तिग्गेले दासीवृन्द चोवकूनु सन्त सन्त एंवचे तें दृश्य पळोवनु सायूज्य मेळका म्हणु प्रार्थना कोर्चे बायिलो। पायाँक भंगराचे पैंजोळे, कुरटाक भंगराचो पट्टो, हाथाँक भंगराँची कंकण्, कानाँक वज्राचो जोडु, भाट्टाँक वज्राचो मुदियो, मत्तान्तु वज्राचो मग्गो, गोवडेक वज्राचो हारु, पिर्डुके माळा, ताम्बडेची पटयाचे कपड, हथान्तु देवळान्तु दिंवचाक फलाँचो प्ळेरु. मगल्यान मुक्कारि दासी जन दिवटी घोर्नु कुण्भी हा! तें पळेयल्यारि साक्षाल महालक्षमी सुन्दरी म्हळेले रूपान जनाक दर्शन दिंवचाक येता म्हणु साँगल्यारि तन्तु काँयि अतिशयु ना। तिक्का पळोव्चाँक केरीन्तु बायलो श्वासु दोर्नु राबिलेना जल्यारि त अतिशयु।

सन्त चोंवकूनु तन्नी वच्चूनु पाँवचे तोळीये पडीक त । थाँगा देवु आराटाक एवँचाक आसा। ते वेळयारी धाँगा ग्रामान्तुले पूरा जनानीयि एकत्र जाँव्चाक आसा। पडक भेत्तूनु, फुल्लाँवाती जळूनु देवालो उत्सवु चाँग रूपान आह्लादान चलोंव्चाक पूरा जनाँकयि उत्साहु। त्ये वेळारी तोळिये लागी एवनृ राबूचे सुन्दरीक पळोव्चाँक जनाँक व्होडु आनन्दु। आराटाचे स्नान जाव्नु देवु देवळान्तु एवनु ''पस्सूकपड''जाव्नु जल्यारि साकाणी सात वराँ जत्तलीं। ह्या वेळारी पूरा जनानी परत वच्चे मुक्कारि सुन्दरी आनी तिग्गेले दासी जन घरान्तु परत वत्तले। लगीचे उत्सवाचे दिस्सा एंवचाक राकूनु जनयि परत वत्तलें।

सान कुटुम्ब त तंगेले। नीताले आवसून काणी दुसेरीयि साँगूक प्रारम्भु केल्लो । एकी दूव आनी एकु पूतु। मलग्डी दूव तिक्का मधुरान्तु वर्डीक कोर्नु दिल्ली । जल्यारि एक-दोनी वर्षा भितरी स्टौ भेत्तूनु ती मेल्ली म्हळ्ळेली खबर हाँगा मेळ्ळी । सुन्दरीलो बामुणु अकस्मात सरलो। सानु पूतु आस्सिलो - सुन्दरीक केदाणा मन्न वाईट जल्लें म्हणु कोणाक क्ळने - तीणे पुत्ताक मस्त द्रोहु दिंवचाक आरंभु केल्लो । मारु खाव्नु तो चेर्डूं सरलो म्हणु त जानाँगेलो संसारु। सिकवण नत्तीले सुन्दरीक, पिस्सें लगेन जाँवचाक तिग्गेले बन्धू-बान्धवान पूरा जागेयि, दुडूयि वाँटे घालनु कळ्ळें। राबिलें घर नवे जाव्नु दुडू जल्लेले पैमम्मान हाथान्तु केल्लें । तो जागो मगीरि गिरिमम्मान मोल्लाक घेत्तलो।

जाल्यारि ह्यों पूरा सुन्दरीक क्ळना। तें मात्र न्हय, ते महालक्ष्मी समान अस्सिले सुन्दरी त आजी जनाँगेले. मुक्कारी हाथु उबार्नु मागून, घेत्ताली नीताले आवसुन साँगून, राबयलें।

परत घरान्दु वत्तना सुन्दरी म्ह्ळेली बायल मनान्तु भरनु राबिली। अंगेले गावान्तु कितुलकी समाजसेवक आसायि। अस्सूनूयि ह्ये रूपान आनीकयि सुमार सुन्दरी जन्माक एत्तलकी म्हणु मन्नान्तु दुःख दिस्सलें। एक सरी सहायाक नत्तिलें, कोणालयि सहायु नक्का आस्सिले एक लोकान्तु सुंदरी चंवकिलि।



निबंद

के.के. सुब्रम्हण्यन

# कुनबी लोक अनि लोक साहित्य

चिन्त जवुच्चाक्के प्रेरणा दित्ता कलेक्के साहित्य हमुणु उळदित्ताय. साहित्याके गद्य-पद्य ह्मुल्ले दोनि शाखे अस्सायी. पिरतोम कुनबी साहित्यत्तुलानी ते तिंच्चो जीवित भारु लधु कोरणु एत्ताले. तिंच्चे पिलगीय तंच्चे पोरी जांवक्क ह्मुणु निरबन्धु अस्सीलो गाद्य-पद्य एकड कोरणु अते ते प्रयोगान्तु अटत्ताले.

सेट्टी पुज्जित्तणा, पळया दरेयत्तणा, वरडीक्के क्रिया केरत्तणा तजो तजो गीनतु भयले गयत्तानी. यो गीनतु वेद-साहित्याच्चो संस्कारु ह्मुल्यारी अत्तेस्सी कुनब्या लोक्का मत्या चेढच्चना देवळाटे मोरोळी पोटत्तणा गोड्डे फेटत्तणा गावच्चाक्के वेग्गो गीनतु अस्सीलो.

गजनीत्तु, गद्यात्तु हमुण्णी हमुणते तीं दन्धे केरत्ताळी. विश्रमे वेळारी. गाने गांवणु फुगडा गालत्ताली बलस्याक ह्मुण्णी ह्मुणु सोवंजेयत्ताली, गीनतु गावणतेसन्ने भुरग्याक्के निद्देत्ताली.

हे साहित्य सेग समाहार कोरणु चोवुक्का, तवोळी कोंकण जनतालें पूर्व इतिहांसु अमक्का सोद्दून कटत्तेय. केच्चे केच्चे भुंयत्तुलाकी अते यंगा पवली ती मार्ग रेखा अमक्का बोरोयत्तेय.

आद्यात्मिक तत्व शास्त्र, भौतिक शास्त्र, रस तंत्र तिस्सी ह्या भूलोकात्तु कसेल कसेल सेग शास्त्र असा. ते सेग ह्या साहित्यत्तुलानी अमची दोळ्या मुक्कारी एत्ता

तुमक्का मना जवच्चाक्के अमक्का मेल्ले दृष्टान्त यंगा दरित्ताय.

''शीतळु जल्ली भूमि सागरू जल्लो शितोळु
शीतळु जल्ली भूमि सागरु जल्लो शितोळु.''

सरश्वति हिमालयारी थक्कूण भायिरी सेरणु त्रिवेणी संगम जावणु राजस्थानच्चेय पाक्किस्थानच्चेय मोद्यात्तुलानी प्रवाहु जावणु सिन्धु सागरात्तु लय जत्ताली.

गुजरात्त प्रान्तुत्तुलानी भित्तोरि चेढूणु राजस्थानापुत्तोरिव्यापि जावुणु पोळ्ळो सेविन्दरा नावते सिन्धु सागरु ह्या सारस्वती नदी तिरेरी अते भारत सस्कारा उन्भवु ह्मुणते चरित्र गवेषका वकाले निगमन.

आर्यींके नारींके भूमिगेयी

भूमिरी मण्डीलो खेलुगे यो

मोरानी मण्डीलो खेलुगे यो

मोरु खेलुताय राजाँगणे

मनु, भरद्वज, गौतम, कण्व, कश्यप, वशिष्ट, भृगु, अत्रि हे ऋषिय तिंच्चे पिलगेय ह्या नदी नटेरी रबुणस्सी. यो लोकु कोण? आर्य जनता मुरोळी गीनतु स्मरण केरततातेे ते.

अबानीमेल्ले ज्ञान पुत्तादिल्ले तेया पुत्तानी ते ज्ञान तजे पुत्ता दिल्ले. तिश्सी पिलगी जावन ज्ञान-विज्ञान केरच्चाक्कोय श्रुति जल्ली. तक्का ऋृषिवराणी वेद ह्मुणु नाव दिल्ले.

श्रषि कुलाक तिंगे तिंगे वटो अस्सीलो. हे सेग वटे मेल जावुणु योग क्षेम जल्लो. त्या योग क्षेमा प्रजापति ते मनुमहर्षी शेष मह्रष्याले सहायाणी वेद - विज्ञान केरच्चा लगलो पिल्गेरी पिलगीरी पिलगी जल्ली श्रषि कुलाक्क विकासु जल्लो.

मनु महर्षिले पुत्तंक्केरी जल्ले पिलगे यमुना -गंगा तिरे मोद्ये उसूणु रबत्तो जह्ले. तंक्का तिणी मिथुल, कोसल, केकय, मगध अय्योद्य इस्सी नवास्सी राज्याक्के सृष्टिदिल्ले मनु मुनिले पुत्तंकेरी थ्स्सी पिलगी सूर्यकुल ह्मुल्ले नवारी जान जल्ले सूर्यवंशरय्याले पोरन्ने इतिहासु रामायणते.

''भूमि पानचोय मयांक्के सेयिसामजे नमो नम

भूमि पानचोय मयांक्क सेयिसामजे नमो नम''

मनु मह्रषिले दुवेरी जल्ले पिलगी ते चन्द्रवंशरायु ययाति सम्राटानी तजे राज्याक्के पांच कोरणु वनट्टो गल्लो. तो भागु पानचोय पुत्तांक्के दिल्लो. गरडि, भूमि, नाग भूमि, गाव, दोंकोरी हेय ते त्या भूमिच्चें नाव. ह्या पानच भुयच्चेय देवु एक जलारि देवकन्या (मया) एक नीय. गरडी भुयच्चे चिह्न गरुड जलारी बाकी अस्सी चारी भुच्चेय चिन्ह नागुते. भूमिचे

संस्काराक्कोय अन्तर अस्सा. श्रवणात्तु त्या पानच भुयच्चे मयाक ते अनुस्मरण करताय.

वरडिके तेळि पोरत्तीत्तणा देवा नवोय, भूमि नवोय  इच्चारिक ह्मुणत्ते व्यवस्था. काल मुक्कारी ओत्तस्सी सरस्वति उत्तर तिरेरी अस्सी ययाति पिलगी हिन्दुकुषपर्वतारी पुत्तोरी अस्सी राज्याच्चे रायु जल्लो दक्षिण तटेरी अस्सीले यमुना तिरेरीव्यापि जल्ले. तंगा सूर्यवंश, चन्द्रवंश क्षत्रिय दक्षिणेडयात्तु पवले ह्मुणु रामायणेय महाभारतोय संगता. संक्षप्रकोरणु संगलारी सरस्वती तिरेरस्सी सूर्यकुल जन पुराने कालघट्टेरी भारतांतु सर्वत्र व्यापिजले.

सत्तोय दोणी लोकां तुमक्का सेयिंसामजे नमोनम

सत्तोय दोणी लोकां  तुमक्का सेयिंसा मजे नमो नम

अमके मुनिवर आर्षा भारताँ तक्कुण सर्वलोकाच्चेय दर्शन गेयत्तो जल्ले. सोविन्दरात्तुलान तरवां दवण्डोण गरडी भूमि लोक्काणी लोक यात्रा केल्लेलस्सा ह्मणु गरगसंहित संगत्ता. कास्पियन सोविन्दराअलत्तटीय पिलत्तेटीय गरडी भुंयेक्कार रबूण अस्सीले. व्यापारु  केरच्चाते जन लोक पर्यटन केरत्ताले.

जनाक्के ऋृषिवरानी चौदाकोरणु भागु केल्लो. एकेक्को भगाक्केतिणी तजस्सी नाव दिल्ले. तीं त सत्तोय  दोनी लोकां.

महा भारत चन्द्रवंश क्षत्रियाली कणीते. ते किस्सी जल्ली किस्सी खाळ्ळा अयिली ह्मुणु व्यास मुनि साहित्य भसेनी संगता. दतराष्ट्रले पूत्ते एक ओस्सी रबीले. पाण्डूले पूत्ते दूसरी ओस्सी रबील. चन्दवंशत्तु सेगराय कौरव पक्षतु न जलारी पाण्डव भगात्तु गल्ले. तिस्सी व्हड जूज जल्ले ता भारत युद्धात्तु सर्वनाशु जल्लो. पाण्डव पक्षात्तु धर्मपुत्रु भारत चक्रवर्त्ती जल्लों कृष्ण परमात्मानी अवतारु देरेयले. त्या वेळारी व्हडू प्रळयु जल्लो. त्या प्रळयात्तु अयिले रेंवोय - चिक्कळोलय पोडोण सरस्पति अप्रत्यक्षु जल्ली. नदी अस्सीक्केटे मरुभूमि जल्ली.  सस्स्वती तिरेरी अस्सी जन दक्षिण भगात्तु प्रयाणु केरत्तो जल्ले. कृष्ण परमात्मानी अवतारु दरेलो तजे उपरान्त वैदेशिक्को आक्रमु जल्लो.

पतिवृत  जावनु अस्सी भयलांके फारणु ओरत्तो जल्लेह्मुणु भारत

पुराण संगता. कलियुगांत्तु तो आक्रमु चेढाव जल्लो. सूर्यकुल सोमकुल क्षत्रियाँके ह्यो वैदेशिक आक्रमु अभिमुख केरच्चा शक्तिन जल्ली. तिस्सी अस्सी कलाके चियोणिय (ग्रीस) देश थक्कूण अलक्सण्डर भारत दोरणु कटच्चा यंगा पवलो. भारतांत्तुरय्यांक्के ऐकमत्यन जल्ले खत्तीरी तिक्का अरवोयच्चा तक्का सरानी जल्ले. भारताच्चे सारथ्य दरच्चा तगो प्रतिपुरुषु (मेगस्तनिस) यंगा रबेयलो अनि तो गल्लो. मेगास्तनिसा शक्ति ना जल्लि. चाणक्य ब्राह्मणाले सहायानी चन्द्रगुप्तमौर्य भारत सम्राट जल्लों.

"'वेदाच्च मेळगा मीमासा मेळगा

गोड़याच्चे मेळगा मेळगा मेळ''

या सोमियारी ऋषिसंस्काराच्चे योकुविभागु आस्तिक साख्याच्चे ओसित्तुगल्ले. मगीरस्सीले नास्तिक साख्य भागतुय. नास्तिक साख्य पक्ष बुद्ध धर्म सिद्धांती जल्ले. आस्तिक साख्य दर्शन केरत्ताले सनातन धर्म जल्ले. अशोक सम्राट्टानी बुद्धतत्व स्वीकृतिदिल्ली. बौद्ध तत्व प्रचारू केरच्चालगलो. भारतांत्तु बुद्ध तत्व दोरणु रबच्चाक्के अशोक पिलगेक शक्ति न जल्लि. तवोळी आस्तिक सांख्याच्चे पक्ष शक्तिवान जल्ले. उत्तर भारतात्तु वेताल भोट्टानीय विक्रमादित्य रय्यानीय सनातन धर्मीके पुनः प्रतिष्ठ दिल्ली. दक्षिण भारतांतु राष्ट्रकुटोय विक्रमादित्यरायूय जावनु अस्सी बन्ध दखेयच्चेगीनन्तु खळ्ळाबोरेयला.

विक्रमरत्ती रय्या तुक्का सत्तोय जना भयिलो

एकले नाव नल्लायी हमुणु तिजे कशी जल्लो.

विक्रमादित्या रय्याले कालु सनातन धर्माच्चों सुवर्णयुग ह्मुणते पंडित संगताय वेताळ भटलेय विक्रमादित्यालेय कनियो कोंकणी साहित्यात्तु अति प्रदानते. सेगट्टाक्कोय ती कनियो केलत्ताली.

मगिरि इतिहासात्तु प्रदान सभवु लगी लगी अयिले. इस्लाँ आक्रम जूजाते प्रथवी रय्याक्कोय सामन्ताक्कोय इस्लाँ आक्रमाके प्रतिरोध केरचाजवुना. उत्तर भारत तिंच्वे अधिनां जल्ले किलजी रय्याली सेना दक्षिण भारतात्तु अयली राष्ट्रकूट एक्कोकोला रय्या अरवेले.

देवगिरि किलजी अदिनॉत्तुजली देवगिरी रय्यानी गोय्यांत्तु (चन्द्रपुरीत्तु) आस्थान केल्ले तवोळी त्या गंवाच्चो उडगासु ते फुगडागीनतु खाळसंगत्ता.

''फुळ्ळों फुळ्ळॉ चन्द्रपुरियेगोडुप्पोले
फुळ्ळाँच्ची मेळगो मेळ.
''सिंवत्तेगो खूनट्टित्ता तेवे तंगगो सींपत्ता
देवच्चो देवक्कियोरेत्तना तीरन्पोले''
सिंवत्तगो...तीरन्पोले
''गोण्डगो खूनट्टित्ता तेवे तंगगे सींपत्ता
देवच्चो देवक्कियो रेत्तना तीरन्पोले''
"'गोण्डगो... तीरन्पोले
देवाच्चो मेळगो मयोंच्चो मेळगो
फुळ्ळाँच्चों मेळगो मेळगो मेळ.
अळ्ळ भय्ये पंळ्ळे दोनी पोडाच्चेतीनी पोडाच्चेपळ्ळे
मजे भावु सैट्टीगेल्लातंगा जल्ले पंळ्ळें

बीजपूर सुलत्तान अडिलषाणि गोव (चन्दरपुरी) गांवुय दोरणु कटच्चक्कोय दक्कु रय्याक्कोय रानिक्कोय पल्लाक्याँ कडुणु तो गावु सोडेयच्चाक्के निश्चय कल्लो. अभानी संगूणु दिल्ली कनी अजिय मोन्नात्तु आस्सा.

गोय्या थक्कूणु भायिरि देवले उपरान्त गांवच्ची ह्मुण्णीते खाळा बोरेयत्ता

कक्या तूं गोंय्यागेल्लोलवे ?
ओय ओय
पुत्ताले मम्मा देखिलवे ?
ओय ओय
केद्दोणा एत्तल ह्मुणुत्तालो ?
फाय - पोरां एत्तल ह्मुणुत्तालो.
(बुरग्यां सोवंजेयच्ची)

इस्सी सरस्वति तटेरी थक्कूण भायिरी सेरले कोंकणी संस्काराच्चे योकु भागाते कुनबी उळ्ळेयता भसेंत्तुलानी अमी श्रद्धेरी अल्ला. इतिहासोय भूमिशास्त्रोय नीय सेग शास्त्रोय यत्तुलानी दर्शन केरत्तेय.

वेद शास्त्राणि विज्ञान केरच्चक्कोय उपनिषत जल्ली त्यासेग उपनिषत्ताच्चेय सांरासुते श्रवोणु.

''ओं  गयायिं सेयिंसा सेयिंसा मजे नमो नम

ओं गयायिं   सेयिंसा सेयिंसा मजे नमो नम''

मुनिवर ओंकारु मोनत्रु गावनु समस्त जनाक्के सुख जाँवक्क ह्मुणु प्रार्थन केरतायि. तुम्मिय तिस्सि केरक्क ह्मुणु संगताय.

त्या तीनी गणा सेयिंसा सेयिंसा मजे नमो नम

त्या तीनी गणा सेयिंसा सेयिंसा मजे नमो नम

परत्मात्माके तीनी धर्मु अस्स ह्मुणु मुनिवराणी मोन्ना केल्ले. सृष्टि (ब्रध्म) स्थिति (विष्णु) संहारु (महेश्वर) परमात्मालो हयो धर्मु अत्तेय चोमक्कूण अस्सा दीर्घ दृष्टिरी परमात्माले ते धर्मु चोवणु नमासकारु गलताय.

सत्तोय दौळाटे निवोज  खवंच्चक्कोय ददूलो अन्धक्काक्कोय भायले अन्धक्काक्कोय मोदमोसु फुट्टोलो. अन्धक्का भायले गुरभिणी जल्ली चांग घडिचेरी एकुबालु  जन्मोलो.

''असतोमा सद्गमया''

कळगमुनिनी तक्का वागेयलो. तक्का विद्यादिल्ली कळग मुनि पोरि तोश्रवणुमुनि जल्लो.

''तमसो माज्योतिर गमया''

श्रवणाक्के तग्गे आवसु-बप्पूसु कोण ह्मुणु केलना श्रवोणु सत्तोय दवुळाटे पुज्ज जावुणु निवोजा उरुवुळीय कटूणु पोरुत्तुण रावळरा ओत्तणा अन्धक्कानीवाट विध्नुकेल्ली. चांग उत्तरानी बोरि सेरच्चा संगीले. ती रब्बीले स्थयारी रबली श्रवणानी गुण्डो-पत्तोरू कडूण इन्तिलो श्रवणाक्के शापुगण्णु तीबोरि सेरली. अन्धक्कों आवसु बप्पुसु ह्मुणु कळगोमुनीनी संगीले पिट्टाते श्रवणा सत्य मोन्ना जल्लाँ. गुरुजीनी दिल्लो उपदेश तेक्कीत

अवोय - अब्बा कवडयाँ धराण श्रवाणं तीर्थ जत्रे भायिरी सेरलो. देखिले देखिले तीर्थनवलो. काशी खण्डा तीर्थीय नवलों मोद्याह्ली रात्ति आवसु बप्पुसाक्के तान्ने लगली. कवोडीबेल्ला रुक्का सेरसी दरेयली श्रवोण उदाक सोद्दोणु रन्ना मोद्ये पवलो. थंगा एक नेयी अस्सीली नेयत्तुदवलो कुरुन्पोलु बुडोण कटत्ता सोवुदु दशरथ रय्यानी अयक्कीलो हस्ती सोणँडाळानी उद्दा पित्ता ह्मुणु अट्टोण बाणु धल्लो. बाणुश्रवणालगीलो. राम राम ह्मुणु श्रवोण दरत्तरेरी पोळ्ळो. मोनीसा सोवुदु रय्यानी अयक्कीलो तोटवु जवन्नस्सीण रायु तंगापवळो. श्रवणाक्के थंडूत्तु निद्देयलो. जीवोण केरीण भिवन्नक्क ह्मुणु संगीले जीवोण केरच्वें प्रमाण तक्का बो जवुन्न श्रवणानी तान्ने - भूख लगले अवोय - अब्बाके पानी ओरणु दीवुणुतिंच्चे तान्ने भूख निश्रेयक्का ह्मुणु संगीले. रय्यानी श्रवणा लगीलो बाणु कल्लो. राम मोन्त्रु जप कोरणु दोळे धंपिले.

कुरुन्पोलु कडूणु रायु अन्धक्का फुडान्तु गेल्लो. पानी दीवुनु तींच्चे तान्ने निश्रेयली. दशराथानी जल्लो संभवतिंगटे संगीले रय्यानी तिंक्का श्रवणा लगी वोयली. श्रवणा मोडे सरिचेरी दरोण उज्जोदिवच्चा संगीले रय्यानी सारी केल्ली. मोडे सरियेरी दरोणु उज्जो दिल्लो. अन्धकाणी सरियेक्के तीनी बोवोण्डे गल्ले पुत्ता दुखानि दशरथ रायु मोरतो ह्मुणु संगूणु अन्धकानी सरियेरी उडिगयली. तिस्सी त्या तेग्गों ओरग्गांक्के दशरथानी मोय्याक्केपवेयीली.

मगीरी ह्मुणिच्ची ह्मुण्णी गोडयाक्कें वाट दखोवच्चीगीतक ह्मुणातो जलारिय तजे सारंशु ईश्वापनिषात्तु अस्सी तत्व प्रमाण. गोड्डे अमच्चे शरीर जलारीगोडया दवंधेयच्चे अम्च्चे आत्माते. गोडया फट्टीरी जत्रकेरतालानी गोड्या सोवोंजोक्का केलना जलारी गोडयां खाळ्ळागाणु गोडेतिंच्च वट्टेओत्तो. लक्ष्यारी पवन्नस्सीणा शरीरोय प्राणूय दोन्नीय दोनी जत्तो ह्मुणते तज़े अर्थ

मण्डा थक्कूण (अस्थिकुटाँथक्कूण) भायिरी मेल्यारी [illegible] देखवें पोडोत्तो ह्मुणुत्ताय

''भियोनक्क श्रवणा जीवोण केरोणोगा

यनत्तु थक्कूण दशरथ रय्याक्के जीव शाश्त्रोय, रस शाश्त्रोय, रस



तंत्रोय, वोयजिक्कोय केलत्ता ह्मुणु दिसोत्ता. जलारी तजे ताक्केटे अस्सी ज्ञान श्रवणाक्के सिद्ध अस्सी ह्मुणुतजे उत्तरात्तुलाणी अमका मोन्ना जत्ता. गोडया ओरणा गीनत्तु गवोप्योय, गोड्डे पोटोप्येय योकु क्षेत्राचारते. देवळाटे निनत्तोण वेगलक्केटे प्रदर्शन केरूज्जो ह्मुणते पिरत्तोमोव्यवस्था

''सागरु जल्लो शितोळु'' किस्सी?

सबागोड्या ओरोणेगीतक गयंलारी सोविन्दीरु शितोळु जत्तोवे? तिस्सी जल्ले जलारी तजे शास्त्र कित्ते? उवरा उदाक्के मेल्लारी सोविन्दीरु शेळु जत्तो. दोवा वेळारी हिमालयत्तु नेयत्तुलान नी उदाक जायत्ते प्रवाह जवच्चना उत्तरायणा होळिये दिसाटे. दिसा ओत्ता चाँऊन्नेजत्तो. दोवा कुटुक्के अट्टोणु नेयत्तुलानी उदाक जायत्ते प्रवाह जत्तो. सरखती नदितुलानी उवरा उदाका गति सिद्ध सगरों एत्ता. जलारी सिन्धु सागरु शेळुजत्तो.

''पोरन्ने जन्मारि दोग्ग अन्धक्का जन्मोळिगा
पोरन्ने जन्मारि दोग्गअन्धक्क जन्मोळिगा''

मनु महरषिलै पिलगेत्तु दोनीविभाग अस्सायी. अन्धक्कायी आरण्यकायी लौकिक जीविता ओत्तालाक्क अन्धक ह्मुणुय आत्मीय जीविता ओत्तलांक्क आरण्यक ह्मुणु उलदित्ताले. भारतात्तु श्रृषिसंस्कारु प्रचोदन दिल्ला ह्या आरण्य विभागत्तुलाणिते.

''आकाश गन्धर्वा तुंक्काय सेयिंसा मजे नमो नम
आकाश गन्धर्वा तुंक्काय सेयिंसा मजे नमो नमं

आकाश गन्धर्वा उज्जो, उदाक, वरें, दोवा कुडुक्को इस्सी अस्सी केच्चोय रुपारिप्रत्यक्ष जत्तो. तवोळी अप्रत्यक्षु जत्तो कोणक्कोय भिजलारी तक्का सोडोण ओच्च न ह्मुणतेपिरत्तोमो जना विखास.

जलारी ऋृषि वरानी आकाश गन्धर्वा निरीक्षण केल्ले. संगीले तिंक्काआत्मावुना प्रत्येक रूप ना अम्मि देखत्ता पोरी उज्जो, उदाक, वरें, दोवा कुडुक्के, वातक, द्रावक, खरजावणस्सी जढव वस्तु निनत्तोणा कायीं नीय भौतिक स्थिति किस्सी?

त्या तेक्कित ह्या जडवस्तुक्कोय तवळेतवळे भाव भेद जत्तो दृष्टान्त देगळोप जत्तात्या. दगळोप्या हळ्ळोप्प लगळारी तोगडे वेळारी मृत्यु जत्त.

ह्य पोरि प्रकृति जवंच्चे भावभेद गतिरी मुनिस्या जायत्ते विपत्त एत्तातिणे तिणे निरीक्षण केरता पोरी तिंगे पिलगणिय गवेषण कोरणु लोक्का रक्षण करेक्का ह्मुणु उडगासु करताय प्रकृति अवश्या तेक्कीत्त तवोळी तवोळी भाव भेदु जवंच्चे मुनिस्या समूहोय अस्सायी तिंक्का साहित्यात्तुगन्धर्व ह्मुणु उळदित्ताय तिंक्का आत्म चिन्त ना भौतिक चिन्ते लोकुते ते

गुण्डोपत्तोरु तुंक्काय सेयिसा मजेनमो नम.

केरळांत्तु अयिले कुनब्याले षोडास क्रिया सिखूक्क जल्ले. एक विषय तेगीनत्तु गावनते वरडि के क्रियाते केरताले. तेल लायत्ताण गाणो कण्डीत्तणा, मेडिक्की चेढेयत्तणा, चोक्कु गलत्ताणा, लिन्पोडु वच्चीत्तणा,मेडिक्की नवत्ताण गावंच्चाक्क भयले अस्सीर्ली. चोक्कु गलत्ताण ह्मुणिच्वो ह्मुणिये भागु

चोक्कु गलत्ताय चोगुले
ते चोग्गु जणे
चोक्कु गलत्ताय चोगुले
ते चोग्गु जणे.''

लिन्पोडु वच्चीत्तणा

''हरिहरिलिन्पोडा लिन्पोडु जन्मोल
लिन्पोडा पेठोबन्धियावो
पाँच पोडाँ नगान्तों
तुम्मी एय्यायवो शेयेणे दयेणि''

कुनब्या भयलो तिंच्चो पूर्विजाच्वेरी थक्कूण जायत्ते ह्मुण्णिये सिखूण गयत्ताली तनन्तु एकु गीन्तु श्रद्धेरी अटत्ताय.

सां जल्ली साँजल्ली केटे सेरे कोयरा
लक्ष्मी देवी घराँ एत्ता दिवो लायी देरा

कोयरु कळोक अस्सीक्केटे लक्ष्मी देवी घराँ एवुना. कलियुग अयले. देह शुद्धि कोरणु बुद्धि जावनस्सी दिव्याक्के प्रकाश दी तंक्का शान्ति समाधान सन्तुष्टि जावनस्सी लक्ष्मी उरतो.



कविता

शरतचंद्र शेणै

# मोग म्हळ्यार-

मोग म्हळ्यार-
जपून धरचेलो
जिणेचो मंत्र !

मोग म्हळ्यार-
काळखांतलो काजूलो !
पोरसांतलो व्हिंदूळो !
आवयलो उलो !

मोग म्हळ्यार-
रित्या कूडांतलो
नितळ हारसो !

मोग म्हळ्यार-
दिसा-सपन!
चुकल्लें धडकन!

मोग म्हळ्यार -
दोळ्यानी शेणलेले दोळे !
कातीक फुटलेले कळे !

मोग म्हळ्यार -
काळजाची भूक !
काळजाची दूख !

मोग म्हळ्यार -
तुजो सांगात !
तुजो वियोग !

मोग म्हळ्यार -
एक हाश्याची गोडसाण !
एक हड्डयाची हुनसाण !

मोग म्हळ्यार -
सोदून पिशी जाल्ली नदर !

मोग म्हळ्यार -
मांडयेर तकली दवरून
सोडलोलो सुस्कार !

मोग म्हळ्यार -
इल्लें शेंदूर !

मोग म्हळ्यार -
भितर अश्रेकण्येचो घोंटेर !
दूकांतल्यान दिसल्लें कुळागर !

मोग म्हळ्यार -
बाळकाचें गोड गोड रडणें !

मोग म्हळ्यार -
पाळणें हालतकूच
ओली जाल्ली चींव !

मोग म्हळ्यार -
शंबर हुस्के !

मोग म्हळ्यार -
इल्लो त्याग !

मोग म्हळ्यार -
पयलें नातूर !

मोग म्हळ्यार -
कुकुल्या हातानी
धाडावन दिल्लें फडीपान !

मोग म्हळ्यार -
एक अशेंय खीण -
तकलेर जोगूल बेसल्लें !
गळ्यांत हुंडके शिरकून,
मेंदवाक उजो लागून,
आंगाक शेळि हूम फुटून,
त्या श्रापित खिणार वळखिल्लें
काळीज फाळपी एकटेपण -
मोग म्हळ्यार -
मोगाची वळख !
मोगाची जाणविकाय !

मोग म्हळ्यार -
अष्टतासांचें
मोनें उतर !

मोग म्हळ्यार -
मोग !!







कविता

*प्रोफ. के. आर. वसत मणा*

# आम्मलि मोगाचि

1. आम्माली मोगा चंद धूव,
राकून बैसून मेळ्ळेली तिवय.
दुक्की भोगून, कष्ट भोगून
देवा भोजून, जाल्लेली धूव.

2. गोड गोड, दूद दीवून,
आम्माले देहा हुनसाणी दीवनु,
राती दीस, जागि बैसून
आम्मान तिका  वाडोंवनु आडळी.

3. मुय्येन मुस्सान, चाबनाशीलें
मुतांत गुवांत घालनाशीलें
वोत पावस लागोवनाशीलें
आम्मा तिका पाळोवन आयली.

4. आंगाक मात्याक, तेल लावनु
हून उदकान  न्हाणोवन काडून
पैय्यार निधावन आळायलें दीवनु
आम्मान घुवेक वाडोवनु आडळी.

5. बैसूक आम्मान, शिकेयलें तिका,
राबचाक तिका, आम्मान शिकेयलें.
चमकूक आम्मान, शिकेयलें तिका
उल्लोंचाक तिका, आम्मान शिकेयलें.

6. तीणे हासतणा, आम्मा हासली
तीणे रडतणा, आम्मा रडळी
तीणे घावतणा, आम्मा धावली
तिजे ओट्टु, आम्माय निधेली.

7. हात-पाय वाडचे चोवून,
तोंडात दांत एवंचे चोवून,
दुःख तिका दीव नाशीलें,
आम्मान तिका व्होडि केल्ली.

8. एक दीस, धांवनु खेळून,
आयलेले धुवेक, भूक लागली.
किते दिल्यारीय तिका नाका,
धूव बैसून हट काडता.

9. भूक लागून, धूव रडता
व्होडान व्होडान, बोब धालता.
किते जाय म्हण निमगिल्यार
भोबो म्हणु, धूव बैसल्या.

10. भोबो ना म्हण आम्मान सांगलें,
कोक्को जेवी म्हण, आम्मान म्हळ्ळें.
भोबो जाय म्हण,धुवेक हट
हट काडून, ती, रडून बैसली.

11. भोबो नाशीले, दुःखान आम्मान
धुवे मुकार, कोक्को दवरलो,
घुवेक कोक्को, नाका म्हणता,
तिका आतां भोबोची जावंका.

12. धुवेळें हट चडता देकून
दुःखान आम्मा, भितरि गेली.
धुवे मुकार, कोक्को आसा,
धुवं बैसून, रडता आसा.

13. कोक्को देखून, कक्को आयलो
कक्या मागशी, कक्की आयली,
कक्के मागशी, पील आयलें
तांचे मागशी, घोणि आयली.

14. धुवे मुकार कोक्को आसा
धूव बैसून, रडता आसा.
धुवे चोवंनु, कक्को बैसलो.
कोक्को घेंवनु, कक्को उबलो.
15. कोक्को घेंवनु, कक्को उबचाक,
ताजे मागशी, कक्कि उबली.
पिल्ला सोडून, कक्कि वचाक,
पिल्ला घेंवनु, धोणि उबली.
16. घोणीचे चोंचीत, कक्के पील
पील व्होडान, रडता आसा,
पिल्लाक काडूक, कक्कि चोयता,
घोणि ऊँचार, ऊँचार, उबता.
17. रंणणे आयकून, धुवेन चोमचाक,
धोणि कक्केक, मरता देखता.
धोणीले पेट्ट, घेवून कक्कि
धुवेले मुकारी, पडून गेली!
18. खाल पडळेले, कक्केक पळोवन
मोगा धूव, भीवनु गेली.
भय्यान भय्यान, कड कडेंवनु
आम्माक उळदून, बोब घाली.
19. आम्मा माका, कोक्को नाका
आम्मा माका, भोबोय नाका.
आनी हांवे हट करना,
आम्मा एवंनु, काडि माका.
20. आम्मा धांवनु, भायर आयली,
मोगान धुवेक, उब्बारनु कडळी.
आम्माले धुवेन, हट सोडळें
आम्माले गाल्लार, उम्मा दिल्ली.



कविता

के.के. सुब्रम्हण्यन

# मोगरा माली

देवाले फूल चांग फूल
कोणका जाय मोगरा फूल,
पोरमोळु यत्ता यंगाय
थंगाय मोगरा फुल्लाचो
मोवुपिवुचाक भोंवरु एत्ता
आज मोगरा फुल्लारी.
पोट भोरणुमोवु पीवुणु
फुल्लाक सोडूणु गेल्लो तो.
चोवुणु चोवुणु दीसुगल्लो
राती जाल्ली सेंत सेंत
मोगरा फूल रडूणु रडूणु
खाल्ला पळ्ळें ते दुखानी
आगो बाये मोगरा फूले,
चां गुथूँणु माली कोरणु.
देवाके अरप्पण करुक
जाय जाय मोगरामाली -





श्री. के.के. सुब्रम्हमण्यन (1939) हांच्या व्ड श्रमान केरळाच्या कुणबी लोकांमदें कोंकणीविशीं तान आयल्या. तांचें विशेष लोककाव्य 'श्रवोण' हाणीं उजवाडायल्यां. निवृत्त हिन्दी अध्यापक. केरळ कोंकणी अकादमीन घडयलेल्या 'लोकवेद' संमेळनांत हाणीं पेपर सादर केलां. कोंकणी साहित्य समाजाचो अध्यक्ष.

पत्तो - कल्लरक्कल हाऊस, चेराय पोस्ट,
एरणाकुळम जिला.



श्री. सुरेश ए. शेणै (1947) हाणीं 'लेखक मंडल' ह्या साहित्यिकांच्या एकवटाचे खातीर हो संग्रह तयार केला. केरळ कोंकणी अकादमीचो पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार हांका लाबला. 1996 वर्सा कोचींत जालेल्या तेराव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाचे येवकार समितीचो कार्यदर्शी आशिल्लो. आतां सिंडिकेट बैंकांत शिर्वीस. केरळ कोंकणी अकादमीचो उपाध्यक्ष.

पत्तो - मारुति विहार X/1614, अमरावती,
कोची - 682 001.



श्री. बी. लक्ष्मण मल्लय्या (1950) हांकां दोन पावटी पंडरीनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार मेळ्ळा. 1996 वर्सा कोचींत जालेल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाचे येवकार समितीचो सह-कार्यदर्शी आशिल्लो. भारतीय स्टेट बैंकांत शिर्वीस. पुरोगामी कलासाहित्यांत विशेष रुचि. केरळ सर्काराच्या 'भारत भवन' सांस्कृतिक समितींत केरळ कोंकणी अकादमीचो प्रतिनिधि.

पत्तो - शंकरप्रिया, 4/822, नोर्त चेरळाय,
कोची - 682 002.



प्रोफ. के.आर. वसंत मणी (1941) हांचो कोंकणी कथा संग्रह 'भांगरा दांत' केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायला. कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे दोन साहित्य पुरस्कार हांकां लाबल्यात. 'भांगरा दांत' संग्रहाचो ताणीं स्वयं कोलोलो मलयाळम अणकार केरळाचे प्रसिद्ध प्रकाशक D.C. BOOKS उजवाडायतात. NBT संस्थेन तयार केलेल्या कोंकणी कथांच्या संग्रहा खातीर हांगेली कथा वेंचल्या. मलयाळम आनी इंग्लीष नेमाळ्यां खातीर बरयतात. निवृत्त प्राध्यापक.

पत्तो-प्रेम मंदिर, पषावीडु पोस्ट,
आलपुषा - 688 009.



श्री. शरतचंद्र शेणै (1953) हांचो काव्यसंग्रह 'अंतरनाद' गेल्या वर्सा उजवाडाक आयला. 1995 वर्सा तयार जालोलो 'साहित्य संकलन' हाणीं संपादन केलोलो. हांच्या पयल्या पुस्तकाक (मीरा - जीवन आनी कवन) देवकी कृष्ण प्रतिष्टानाचो पुरस्कार मेळ्ळो. साहित्य अकादमीच्या चर्चा सत्रानी हाणीं केरळांतल्या कोंकणी साहित्याच्या वेगवेगळ्या शाखांविशीं पेपरां सादर केल्यांत.

पत्तो - गोकुल, 18/535 - A., कोची - 682 006.

